# PROMOTION, DEVELOPMENT & PRESERVATION OF CULTURAL HERITAGE

- 100% grants to government established cultural institutions of the state.
- Maintenance grants to voluntary cultural organisations.
- Special grants (financial assistance) to artists/groups/organisation for conduct of cultural shows/events / programmes.
- Grants to non-govt. secondary schools for promotion of performing arts in school.
- Grants for purchase of costumes and drapery.
- Kala Sanman (financial assistance) to eminent artists/writers in indigent conditions.
- Financial assistance under Kalakar Kritadnyata Nidhi.
- Goa State Cultural Awards to outstanding Artists.
- Presentation of Kala Gaurav Awards.
- Presentation of State Rewards to the National Award Winners.
- Establishment of cultural hostels / Ravindra Bhavan/ cultural complexes etc.
- Various schemes/programme of WZCC, Udaipur.
- Supply of cultural equipments to Bhajani Mandals/Choir groups.
- Publication and promotion of literature on art and culture.
- Inter State Exchange of Cultural Troupes programmes.
- Conduct of cultural courses/camps/festivals/competitions for students and non students youths.
- Celebration of days of national importance/ centenaries/ anniversaries of eminent personalities.

***ISSUED BY***




Government of Goa

## Directorate of Art and Culture

**{An ISO 9001:2008, ISO 14001:2004, ISO 50001:2011, OHSAS 18001:2007, SA 8000:2008 Certified Department}**

Sanskruti Bhavan, Patto, Panaji - Goa

Tel.: 0832 2404602/661 EPABX : 0832 2404600

Email: dir-dac.goa@nic.in ● Website : www.artandculture.goa.gov.in

# जाग

वर्स ३९ : आंक ६ : फेब्रुवारी, २०१३



भायलें चित्र (शकुन्तला): प्रदीप मरावी (लोक कलाकार)
भितल्लीं चित्रां: अदिती नायक

जाग प्रकाशनाचें

जाग

म्हयनाळें

✻ संस्थापक:
स. सुगंत केळेकार

✻ संस्थापक संपादपी:
स. रवीन्द्र केळेकार

✻ संपादपी:
माधवी सरदेसाय
9421157007
madhavikonkani@gmail.com

✻ उजवाडावपी:
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

✻ छापपी
हिरु नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : रु. २००/- |
| विद्यार्थ्यां खातीर (वर्सुकी) | : रु. १५०/- |
| तीन वर्सांची पटी | : रु. ५००/- |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : रु. ३००/- |

पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. २०/-

# कांय अपेक्षा, कांय शीण...

ह्या आंकांत भौ. प्रभाकर भिडे हांचे प्रकाशन वेवसायांतले कांय अणभव आयल्यात. गोंयांत कोंकणीच्या मळार जे प्रकाशक वावुरतात तांचे मजगतचे, आमचे नदरेन तरी, भिडेबाब एकलेच खरेले वेवसायीक प्रकाशक. ह्या वेवसायाचें म्हत्व, ताची जापसालदारकी आनी ताचे मुखावयल्यो अडचणीय वळखल्ले अशे अणभवसमृद्ध प्रकाशक. तांची अणभवी नदर कोंकणी प्रकाशन-वेवसायाचो हुस्को आशिल्ल्यांक, आनी ह्या मळार घोळटल्या आमचे सारकेल्या 'झांकून झांकून गांवकार जाल्ल्या' प्रकाशकांक खूब मार्गदर्शक थारूं येता अशें आमकां दिसता. हे निमतान ल्हान व्हड सगळे कोंकणी प्रकाशक एकठांय येवचे, पुस्तकांच्या मार्केटिंगा विशींच्या तांगेल्या अणभवांचें दिवप-घेवप जावचें, आनी पुस्तकाच्या वितरणाच्यो नव्यो वाटो उकत्यो जावच्यो अशें आमकां मना पसून दिसता.

पुस्तकाची पांचशीं-एक प्रतींची आवृत्ती काडप, आनी ताच्यो चडांत चड प्रती सरकारी खात्यांच्या गळ्याक बांदप हातूंतल्यान प्रकाशकांचो प्रस्न सुट्टा जायत, लेखकाक समाधान कशेंच मेळना - रवीन्द्रबाब सांगताले. हें समाधान मेळटलें जाल्यार लेखकाचें पुस्तक वाचप्याच्या हातांत पावपाक जाय. तें कशें पावतलें हाचेर, पुस्तकाच्या वितरणाचेर, गंभीरतायेन विचार जावंक जाय. कोंकणी पुस्तकां विकपी पणजे 'गोवा कोंकणी अकादमी' आनी मडगांवां 'कोंकणी भाशा मंडळ' हे दोन 'कोनशे' सोडले जाल्यार कोंकणी पुस्तकांचें दोळ्यांक आनी मनाक धादोशी करपी अशें एकूय दुकान गोंयांत ना. आनी, इंग्लीश पुस्तकांचो वेपार करपी पुस्तकांचीं दुकानां कोंकणीं पुस्तकां दवरूंक अनमनतात - एक तर, 'फकत अभ्यासक्रमाक लागिल्लीं पुस्तकांच आमी दवरतात', वा 'कोंकणी पुस्तकां आमी दवरिनात' अशें सरळ सांगतात, हो आमचोच कोंकणीच्या ह्या मूळ पिठांतलो अणभव.

कोंकणी चळवळीचो विचार केल्यार, कोंकणी पुस्तकांच्या वितरणाचो हो प्रस्न आमकां खूब म्हत्वाचो दिसता. आनी हांगा भिडेबाबां कडेन आमी आशेन पळेतात.

सुटके झुजारी आनी कोंकणीचे एक 'रायटर-फायटर' नागेशबाब करमली हांणी निकतींच पिरायेचीं अंयशीं वर्सां पुराय केल्यांत. तांचो सांगात मेळिल्ले कवी रमेश वेळुस्कार हांकां आमी तांचेर एक लेख बरोवंक लायिल्लो तो आमी ह्या आंकांत दिला. लेखांत नागेशबाब तितलेशे 'मुखार' दिसनात. पूण तांचें एक सुंदर रूप तातूंत आयलां. गोंयांतले कोंकणी चळवळीच्या सुरवेच्या काळार चळवळीचे म्हालगडे जाचे जाचे भितर साहित्यीक कीट पळेताले तिची जतनाय ते कशे घेताले, ही कीट आशिल्ल्या तरणाट्याक मायेन लागीं कशे ओडटाले, ताका साहित्यीक सांगात जोडून दितनाच रायटर-फायटराची दिक्षाय कशे दिताले ताचो हो लेख वाचतकच अणभव मेळ्ळे बगर रावचोना. नागेशबाबांचे तालमींत अशे कितलेशे जाण तयार जाल्यात.

रवीन्द्रबाब खूब फावटीं म्हणटाले, कोंकणी चळवळीचो इतिहास आमचे मदल्या कोणें बरयलोच जाल्यार गुरुनाथ केळेकार बरयतलो, वा नागेश करमली बरोवंक पावतलो. आयज हे दोगूय पिरायेचीं आठ दसकां हुपून सुटके झुजाऱ्याक सोबऽ सारकेंच चळवळी जिवीत जियेतात. दोगांय विशीं आमच्या मनांत उपाट आदर आसा. आनी, इल्लो शिणूय आसा.

कोंकणीचो संघर्शाचो काळ हांणी जितलो पळेला, अणभवला तितलो आयज आमचे मदीं आसात तांतल्या भोव थोड्यांनी पळेला, अणभवला आसतलो. कोंकणी चळवळीचे हे दोन गवायूच न्हय, participantsय बी. ते भायर, बरे कोंकणी लेखकूय. कोंकणी चळवळीचो - तांणी अणभविल्ल्या काळाचोच - इतिहास, तांच्या उगडासांच्या रुपानूय जावं तो मागीर, फुडल्या पिळग्यां खातीर तांणी दवरलो ना जाल्यार केदें लुकसाण जातलें तें आयज कळचें ना... जनमत कौलाच्या काळाचो अभ्यास करतल्यांक आयज ह्या काळा वयले *राष्ट्रमता*चे अंक खंयच मेळनात. आनी, ह्या काळा वयले उगडासूय कोणें बरोवन दवरूंक नात. ही आमच्या म्हालगड्यांचीच लागणूक अशें तरणाट्यांनी म्हळें जाल्यार ती चूक जायत?

नागेशबाब, घेतात मूं मनार? आमच्यो सगल्यांच्यो शुभेच्छा तुमचे फाटल्यान आसातूच.

**- संपादपी**

# कोंकणी खातीर देवनागरी : फाटभूंय आनी फलीत

– माधवी सरदेसाय

कोंकणी खातीर देवनागरी लिपी घेवन तिचो पयलो निटायेन वापर केलो मों. सेबाश्तियांव रुदोल्फ दाल्गाद हांणी अशें आयज हातांत आशिल्ल्या प्रमाणां वयल्यान म्हणूं येता. १८९३ वर्सा उजवाडा आयिल्ल्या आपणाल्या कोंकणी-पोर्तुगेज कोशांत दाल्गाद कोंकणी उतरां देवनागरींत दितात, आनी कोशाचे प्रस्तावनेंत कोंकणी खातीर हे लिपयेचो पुरस्कारूय करतात.

हे आदींय कोंकणी देवनागरींत बरयल्ली मेळटा. १६७८ वर्सा ॲम्स्टरडॅमांत उजवाडा आयिल्ल्या एन्रीक व्हान रीड हांगेल्या *ऑर्तस इंदिकस मलबारिकस* ह्या मलबारांतल्या वखदी वनस्पतींच्या विश्वकोशांत संकलकांक तीन वैजांनी कोंकणींतल्यान हातान बरोवन दिल्लें एक प्रमाणपत्र आसा. तातूंत, आनी मुखार वखदी वनस्पतींचीं नांवां दितना देवनागरी लिपी वापरिल्ली मेळटा.

पूण गोंयांत कोंकणी खातीर रोमी लिपी वापरपाची चाल आसतनाय दाल्गाद तिचे खातीर देवनागरी मुजरत वेंचून काडटात. पुराय विचारां अंतीं. कोंकणी आर्य कुळांतली भास, तिच्या भयण-भासांनी देवनागरी घेतल्या तशी कोंकणीनूय ती घेवप योग्य अशें ते स्पश्ट सांगतात (पळेयात *Dalgado on Konkani 10* ).

जल्माक येना फुडें भुरग्याक कुटुंबाचें आडनांव लागू जाता तशी दायजाच्या हकान कोंकणीक देवनागरी मेळटा इतलेंच येवजून मों. दाल्गाद कोंकणीक देवनागरी योग्य लेखतात अशें म्हणूं नजऽ.

कोंकणी कन्नड लिपयेंतूय बरयल्ली मेळटा; घडये (रोमी लिपये परस) हे लिपयेंत ती अदीक बरी बरोवं येत; पूण कितलीय जाल्यार कन्नड द्रविडी कुळांतले भाशेची लिपी, कोंकणी आर्य कुळांतली भास; तिणें देवनागरीच घेवंक फावो अशें तांकां दिसताच (आदलोच संदर्भ). पूण ते भायर, अल्पप्राण/म्हाप्राण (क्/ख्,च्/छ्, बी), दांतये/ खोंपये नाद (त्/ट्, ल्/ळ्, बी) सारकेले, कोंकणीक भोव गरजेचे आशिल्ले भेद दाखोवंक रोमी लिपी उणी पडटा, तिचे कडेन ह्या भेदांक खाशेल्यो कुरवो नात; कोंकणी रोमींतले परस देवनागरींत अदीक स्पश्टपणान आनी सहजपणान बरोवं येता अशें दिशिल्ल्यानूय तांणी देवनागरी घेतल्या अशें म्हणूंक मेळटा (आदलोच संदर्भ पळयात).

फाफसल्ल्या कोंकणी लोकांतल्या कोंकणीपणाक जाग हाडून तांकां लार्गी हाडपी, एक भाशीक-समाज म्हूण जियेवंक तांकां मुखार काडून भारतीय समाजाचे विवीधतायेंत कोंकणी अस्मितायेची घुडी उबोवपी कोंकणी चळवळीची वैचारीक बसका शणै गोंयबाबान तयार केली, विसाव्या शतमानाच्या पयल्या अर्दांत. शणै गोंयबाबानूय देवनागरी लिपयेचो स्पश्टपणान पुरस्कार केलो आनी हे लिपयेंतल्यान कोंकणींत तरेतरेची बरपावळूय निर्मिली.

कोंकणीचे लिपये संबंदांतले शणै गोंयबाब्रांले विचार कोंकणी परिशदेचे तिसरे बसकेचे (१९४२) माचये वयल्यान केल्ल्या येवकाराच्या उलोवपांत उक्ते जाल्यात (पळेयात "येवकार-

अध्यक्षांलें उलोवप'' (१९४७) १५३-५५). ते थोडे भितर अशे मांडूं येतात :

१. कोंकणीची वाड जावंक जाय, तिचें प्रमाणीकरण जावंक जाय (ती एकरुपी जावंक जाय) जाल्यार तिणें एक लिपी आपणावंक जाय.

२. वेगळ्या वेगळ्या लिपयांनी वांटून गेल्ल्या कोंकणीच्या साहित्यीक संवसारांनी किर्ते चल्लां तें पुराय कोंकणी समाजाक कळटलें जाल्यार सगल्यांनी एक लिपी घेवंक जाय.

३. कोंकणीच्यो दोन-तीन लिपयो चलूंक दिल्यो जाल्यार तिच्यो दोन-तीन भासो जातल्यो, तिका प्रमाण रुपूय येवंक पावचें ना, आनी राजकी हावेस आशिल्ल्या कोंकणी समाजाचो एकवट सादुंकूय जमपाचो ना.

३. संस्कृत भाशेची लिपी तीच कोंकणीची लिपी. कोंकणीचे नाद रोमी लिपये परस ही लिपी अदीक बरी उकतायता. देखून, देवनागरी लिपी घेवप कोंकणीच्या हिताचें.

४. ही लिपी आपणायल्यार कोंकणी लोकांक (स्वतंत्र भारतांत राष्ट्रभास जावची आशिल्ली) हिंदी भासूय शिकूंक सोंपी जातली.

कोंकणी चळवळीची मुखेल माची कोंकणी परिशद. माधव मंजुनाथ शानभाग हांच्या यत्नांक लागून ही माची कोंकणी चळवळीक मेळूंक पावली (पळेयात आदलोच संदर्भ १२०). परिशदेनूय सुरवे सावन लिपये संबंदान स्पश्ट धोरण घेतलां.

परिशदेची पयली बसका ८ जुलय १९३९ ह्या दिसा कारवारा भरिल्ली. तिचे अध्यक्ष आशिल्ले विश्वनाथ पांडुरंग प्रभू, आनी कार्यदर्शी माधव मंजुनाथ शानभाग. दोगूय कारवारचे. हिंदी, मराठी भासांक तांगेल्यो वेगळ्यो लिपयो नात; संस्कृत भाशेची देवनागरी लिपी तांणी घेतल्या; कोंकणी भाशेचीय लिपी हीच अशें शानभाग आपणाल्या उलोवपांत स्पश्ट सांगतात (पळेयात ''पैले बसकेची खबर'' १२).

दुसऱ्या दिसा, ९ जुलयक, परिशदेन इकरा थारावण्यो घेतिल्ल्यो. तातूंतली एक थारावणी अशी आसा : ''सगळ्या आर्यवर्गी भासांची सामान्य लिपी जी देवनगरी तीच फाटींमेरेन कोंकणी भाशेची लिपी आसली; देखून सगळ्यांक मान्य अशे हे देवनगरी लिपींत कोंकणी भाशेचें घोळप जावचें अशें ही परिशद थारायता'' (आदलोच संदर्भ १४). कोंकणी लोकांक तांचे आवयभाशेंत शिकूंक मेळचें म्हूण सरकारान शाळां खातीर गरजेचीं आशिल्लीं कोंकणी पुस्तकां देवनागरी लिपयेंतल्यान तयार करून घेवचीं; निरक्षरी जाणट्या लोकांक अक्षरी करपाचो सरकारा कडल्यान जो यत्न चल्ला तातुंतूय कोंकणी भाशेचो आसपाव जावचो - कोंकणी जाणट्यांक देवनागरींतल्यान कोंकणी शिकोवन अक्षरी करपाची माग्णी जावची, अश्योय आनीक दोन थारावण्यो हे बसकेन घेतिल्ल्यो (आदलोच संदर्भ १३-१४).

परिशदेची दुसरी बसका ३१ डिसेंबर १९४० ह्या दिसा उडपी शारांत भरिल्ली. तिचे येवकार-अध्यक्ष आशिल्ले टी.माधव पै, आनी अध्यक्ष जेरोम ए. साल्दान्ज. दोगूय मंगळूरचे. ''कोंकणिची निजाची लिपी देवनगरी... ही लिपी चलैल्यार हिंदी राष्ट्रभास आनी हेर भासो शिकूंक सोंपें जातलें'' (''दुसरे बसकेची खबर'' १५) अशें पै हे बसकेचे माचये वयल्यान म्हणटात. अध्यक्षांल्या उलोवपांतूय कोंकणीचे लिपये विशींचें तांगेलें चिंतप आयलां. ते सांगतात :

> कोंकणी भास तुर्ताक कानडी, देवनगरी आनी रोमी लिपींत बरैतात. गोंय आनी मुंबै प्रांतांत क्रिस्तांव लोक रोमी लिपी जास्त अुपकारायतात. बेळगांव आनी धारवाडच्या आवांठांतल्या कोंकणी क्रिस्तांवांलीं धर्मपुस्तकां देवनगरी लिपींत अुजवाडायतात. गोंयासकैल्या आवांठांत कानडी भास घोळिल्ल्या कारणान थैंचें कोंकणी बरप कानडी लिपींत करतात. हे तरेन, वेगळ्या वेगळ्या आवांठांनी कोंकणी लोक वेगळ्यो वेगळ्यो लिपी घोळोवंक लागून, कोंकणी भाशेच्यो अदीक लिपी जावंक पावल्यात. अशे अवस्तेंत, कोंकणी भाशेची अेक लिपी खैंची थारावची हें सांगूंक कठीण पट्टा. जाल्यारूय, जपान, तुर्कस्तान बी देशांत हालीं रोमी लिपी चलैल्या, तशीच कोंकणी भाशेकूय ही लिपी चलैल्यार जाता. ही लिपी चडशी शास्त्रनेमान घडूंक नासलीय जाल्यार, बरोवंक सोपी आसून राष्ट्रांतल्या वेव्हारांत हिका मान्यताय मेळ्ळ्या. तरी आसताना, तुर्ताक हिंदुस्तानांत हिंदी भास ही राष्ट्रभास करचो गजगज चल्ला आनी हिची लिपी देवनगरी आशिल्ल्या कारणान, कोंकणी भाशेचीय हीच लिपी थारायल्यार चड बरी अशें दिसता. (आदलोच संदर्भ १५)

परिशदेचे हेय बसकेंत ''कोंकणी भाशेची लिपी देवनगरी आसची'' ही थारावणी मान्य जाल्ली (आदलोच संदर्भ १७). ते भायर, ''कोंकणी भास जाणा-जाल्ल्या लोकांल्या हिताखातीर, साळांनी अुपकारावचीं सगळीं नवीं पुस्तकां कोंकणी भाशेंत आनी देवनगरी लिपींत अुजवाडावचीं'' आनी ''कोंकणी भास अुलैतल्या जाणट्या लोकांक देवनगरी लिपींत ही भास शिकोवची'' ह्योय थारावण्यो हे बसकेन परत्यो घेतिल्ल्यो (आदलोच संदर्भ). पूण निमाणे थारावणेक अशी जोडणी जोडिल्ली - ''जाल्यारूय, देवनगरी लिपींत जास्त कोंकणी सरस्पत जायसर, कांय काळ दुसऱ्यो लिपी शिकैल्यार जातात'' (आदलोच संदर्भ).

४ आनी ५ एप्रील १९४२ ह्या दिसांनी मुंबय भरिल्ले परिशदेचे तिसरे बसकेचे अध्यक्ष आसले आर्मांद मिनेझिस. तांणीय बी आपणाल्या उलोवपांत कोंकणीची लिपी देवनागरी होच विचार उखलून धरिल्लो पळोवंक मेळटा (पळेयात ''तिसरे बसकेची खबर'' २९, ३१-३२). शणै गोंयबाब हे बसकेचे येवकार-अध्यक्ष आसले. कोंकणीचे लिपये विशींचें तांगेलें मत्त वयर आयलां.

तिसरे बसकेंतल्या थारावण्यांचे विशय आनी तांचो मजकूर थारावपी विशय-समितीचे सत्तावीस वांगडी आशिल्ले. ही समिती आयचें कर्नाटक, महाराष्ट्र आनी गोंय ह्या तिनूय वाटारांतल्या कोंकणी लोकांचें प्रतिनिधित्व करपी आशिल्ली. (विशय-समितीच्या वांगड्यांचीं नांवां : १. सान्तान शाव्हियेर आन्द्राद, २. एफ. एक्स. आफोंस, ३. जोकीं आल्वा, ४. सुशील श्रीनिवास कवळेकार, ५. चार्लस कुयेल, ६. दिनकर दत्तात्रय देसाय, ७. श्रीपाद रघुनाथ देसाय, ८. जोस आल्बान दे सौज, ९. कमळाबाय सुंदरराव दोंगरकेरी, १०. रामराव शांताप्पा पडबिद्री, ११. सीताबाय रामराव पडबिद्री, १२. जॉन बास्टियन पिन्टो, १३. रामचंद्र कृशण प्रभू, १४. जोकीं आन्तोनिय फेर्नान्दिस, १५. माधव वासुदेव भट, १६. कुंबळा पद्मनाभ भक्त, १७. एच.ओ. मास्कारेञ्जस, १८. आर्मान्द मिनेझिस, १९. कारकळ माधवराव, २०.ए.सी. रेबेल, २१. आन्तोनिय रेव्हेरेद, २२. काशीनाथ शिवराम लाड, २३.

जे.पी. लोब, २४. वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार, २५. माधव मंजनाथ शानभाग, २६. सखाराम वामन शिरगांवकार, आनी २७. श्रीनिवासराव सबूर (तिसरे बसकेची खबर ३३).

हे बसकेन लिपये संबंदान अशी थारावणी घेतिल्ली -''ही परिशद थारायता कि कोंकणी भाशेची लिपी देवनगरी आसची. संस्कृतांतसून जाल्ल्या हेर सगळ्या भासांची लिपी देवनगरीच आसा. परंत, परिशदेन हो नेम धरिल्लो आसलोय जाल्यार, सद्या ज्यो लिपी घोळटेंत आसात त्यो तुर्ताक घोळैल्यार जातात'' (''तिसरे बसकेची खबर'' ३६). कोंकणी भाशेचे आनी साहित्याचे वाडी खातीर आनी कोंकणी लोकांच्या हिता खातीर '' 'कोंकणी भाशा-मंडळ' नांवाची अेक सदांकाळीक संस्था घडची'' अशी आनीक एक थारावणी हे बसकेन घेतिल्ली, आनी हे संस्थेन कोंकणी पंडितांली एक समिती नेमून ''कोंकणी भाशेंतल्या सगळ्या नादांचे अुच्चार दाखोवंक देवनगरी लिपींत नवीं अक्षरां वा नव्यो कुरवो भरीक घालच्यो'' अशें दुसरे एके थारावणे वरवीं मागिल्लें (आदलोच संदर्भ ३५).

कोंकणी परिशदेचें लिपये विशींचें धोरण तिचे पयले बसकेच्या वेळार आशिल्लें तशेंच मुखारूय उरलां. आयजूय तें तशेंच आसा.

इतिहासान कोंकणी भाशीक-समाजाचे कुडके कुडके केल्ले. वसणूकवादी काळांत कोंकणीच्या कितल्याश्या धुवां-पुतांक गोंय सोडून वचचें पडलें. हो लोक केरळांत कोची-एरनाकुळमच्या वाटारांत, आनी कर्नाटकांत मंगळूरांत, अनुक्रमान मलयाळम आनी तुळू भासांच्या वाटारांनी, आपणालें कोंकणीपण सांबाळून त्या त्या वाटाराचे भाशीक सांस्कृतीक परंपरे कडेन सुरमेळ सादून जियेलो.

कोंकणीच्या सलग भुगोलीक विस्ताराचेय (Linguistic continuum चेय) ह्या काळांत वांटे जाले. कोंकणी वाटाराचो एक कुडको (सिंधुदुर्ग) महाराष्ट्राचो - मराठी भाशीक राज्याचो - वांटो जालो. दुसरो एक कुडको (कारवार) कर्नाटकांत - कन्नड भाशीक राज्यांत - पावलो.

हे 'फाळणे'चेर उपाय म्हुण्णूच 'एक भास - एक लिपी - एक साहित्य' हें एकवटाचें सुत्र कोंकणी अस्मितायेचे चळवळीच्या हाताक लागलां (पळेयात केळेकर ''कोंकणीचे राजकारण''). तें घेवनूच हे चळवळीचे म्हालगडे गोंय, कर्नाटक, महाराष्ट्र आनी केरळ - चार राज्यांनी शिंपडिल्ल्या कोंकणी भाशिकांक लागीं हाडपाचो यत्न करीत आयल्यात.

तिसरे परिशदेचे माचये वेल्यान केल्ल्या उपकाराच्या उलोवपांत शणै गोंयबाब निमाणे कडेन ''ॐ सह नाववतु सह नौ भुनक्तु'' ह्या वेदांतल्या श्लोकाच्या आदारान कोंकणी मनशांच्या दोळ्यांक भाशीक वांगडपणाचें - एकवटाचें - उदात्त सपन दितात. ते म्हणटात, ''...भाग्यवंत कोंकण्यांनू - भावांनू आनी भैणिंनू - 'आतां आमी वांगडा रावंया, वांगडा खावंया, वांगडा घट जावंया, तेजवंत जावचेलें गिन्यान जोडुंया, अेकामेकांलो द्वेस सोडुंया, अेकामेकांक माये-मोगान ओडुंया!''' (''येवकार-अध्यक्षांलें उलोवप'' १७२).

हें 'वांगडपण' कोंकणी चळवळीक कितलें शें सादलां? आनी, एके लिपये बगर तें सादूं येत व्हय? ह्या दोनूय प्रस्नांचेर विचार करपाची आयज भोव गरज आसा.

कोंकणी साहित्याचेंच मळ घेवया.

कोंकणी साहित्य आयज मुखेलपणान तीन लिपयांच्या संवसारांनी वांटून गेलां - देवनागरी, कन्नड आनी रोमी. वेगळ्या वेगळ्या लिपयांनी बंदिस्त उरिल्ल्यान आमकां 'आपल्यां'ची वळख उणी, 'पेल्यां'ची वळख अदीक आसा. कन्नड लिपयेंत कोंकणी बरोवपी-वाचपी घडये यू.आर. अनंतमूर्तींक 'वळखतात' तशे दामोदर मावज्यांक वळखनात. देवनागरींत कोंकणी बरोवपी-वाचपी जायते फावटीं रणजीत देसाईंच्या बरपा कडेन संवकळ करूंक पावतात, व्ही.जे.पी. साल्दाना मात तांचे खातीर परकीच उरता. रोमी लिपयेंतल्याच कोंकणी संवसारांत घोळपी घडये खुशवंत सिंगांच्या बरपां कडेन नातें जोडूंक पावतात, रवीन्द्र केळेकारांल्या बरपाचेर मेरेर रावनूच नदर मारतात.

आमच्यो ह्यो 'मर्यादा' आमच्या समिक्षात्मक बरपांतल्यानूय ठकत्यो जाले बगर रावनात. साहित्याची वाड जातली जाल्यार ताचें मुल्यांकन जावंक जाय. आमी खंय आशिल्लीं, आयज खंय आसात, आनी आमकां खंय पावपाचें आसा ताचो मर्दी मर्दी थाव घेवंक जाय. पूण लिपयांच्या आडमेळ्यांक लागून कोंकणी साहित्याचें पुराय चित्रूच आमचे नदरे मुखार उबें रावंक पावना, आनी हाका लागून ताच्या कुडक्या कुडक्यांनी जाल्ल्या मुल्यांकनाचेरूच आमकां समाधान मानचें पडटा. कोंकणी साहित्याची समिक्षा करपाच्या हेतान आयजवेर गोंयांत वा गोंया भायर घडोवन हाडिल्ल्या आमगेल्या सगल्या परिसंवादांचे मांडावळीचेर नदर भोंवडावन पळोवची - ते ते लिपयेचे मर्यादेंत रावनूच आमी आमच्या साहित्याचें मुल्यांकन करीत आयल्यांत. पुराय कोंकणी साहित्याचेर नदर मारप आमकां अजून सादूंक ना. कोंकणी साहित्याच्या समिक्षकाचे हे अडचणीचो अदमास मनोहरराय सरदेसाय हांणी बरयल्लो आनी साहित्य अकादेमीन उजवाडायल्लो *A History of Konkani Literature* (२०००) हो कोंकणी साहित्याचो इतिहास वाचल्यार मेळूं येता. देवनागरी आनी रोमी लिपयांतल्या कोंकणी साहित्याचें मुल्यांकन तांणी 'आपणाले नदरे'न केलां. कन्नड आनी मलयाळम लिपयांतल्या कोंकणी साहित्याचेर बरयतना तांकां हेरांच्या, अनुक्रमान जे.बी. मोरायस आनी एन्. एन्. आनंदन हांगेल्या, नदरांचेर - secondary sourcesचेर पातयेवन रावचें पडलां. आयचे घटकेक तरी कोंकणी समिक्षेची आनी कोंकणी साहित्या वयल्या संशोधनाचीय बी हीच मर्यादा!

वेगळ्या वेगळ्या लिपयांच्या 'धांकिल्ल्या मुठीं'नी सुरक्षीत आशिल्लें कोंकणी साहित्य उकत्यार, एके लिपयेचे माचयेर येतलें, सगल्या कोंकणी वाचप्यांक तातूंत रीग मेळटली, तेन्नाच तें 'एक साहित्य' जातलें. आयज तरी तें 'एक साहित्य' ना अशेंच म्हणचें पडटा. ताका 'एक साहित्य' करपाची माची मात देवनागरी लिपयेन तयार केल्या इतलें खरें.

आयज आमच्या हातांत आशिल्लें कोंकणीच्या सगल्या लिपयांतलें लिखीत साहित्य हिसपांत घेतलें जाल्यार देवनागरी लिपयेंतलें कोंकणी साहित्य सगल्यांत भुरगें म्हणचें पडटा. ह्या साहित्याचें मुळावण १९१० वर्सा शणै गोंयबाबान घालें, आनी ते उपरांत तें फुलत चंवरत गेलें. *गोंयकाराचो मुंबैकार* (१९१०) हें शणै गोंयबाबालें पयलें पुस्तक.

१९४३ वर्सा कोंकणी परिशदेचे तिसरे बसकेंत केल्ल्या येवकाराच्या उलोवपांत सोळाव्या शेंकड्या सावन रोमी आनी देवनागरी लिपयांनी

उजवाडा आयिल्ल्या कोंकणी साहित्याचो शणै गोंयबाब नियाळ घेतात. तातूंत देवनागरींतल्या कोंकणी पुस्तकांचे (बरपांचे?) सुमार तीस संदर्भ मेळटात.

वीस वर्सांनी, १९६३ वर्सा, रवीन्द्र केळेकार हांणी संकलीत केल्ली *A Bibliography of Konkani Literature in Devanagari, Roman and Kannada Characters* ही कोंकणी पुस्तकांची सुची उजवाडा आयिल्ली. तातूंत देवनागरींत उजवाडा आयिल्ल्या १२६ पुस्तकांची, तर कन्नड लिपयेंतल्या ४०२ आनी रोमींतल्या १०१० पुस्तकांची नोंद मेळटा.

१९४३ वर्सा अशीं तशीं तीस पुस्तकां आशिल्लीं थंय आयज सत्तर वर्सांनी, उणींच म्हळ्यार तीन हजार तरी कोंकणी पुस्तकां देवनागरी लिपयेंत आसूंक जाय अशें म्हणटात. (निश्चीत आंकडो मेळना. कित्याक, हीं पुस्तकां गोंयांतूच न्हय तर मुंबय ते कोची मेरेनच्या कोंकणी वाटारांत उजवाडा आयल्यांत.)

इल्लीशी झर आशिल्ली ती आयज न्हंय जाल्या. आंकड्यान, विवीधतायेन आनी दर्जानूय हें साहित्य वाडत आसा, आनी गिन्यानाची भास म्हुण्णूय कोंकणी पाळां धरीत आसा.

कारवार कोंकणी राज्यांत ना खरें. पूण कोंकणी साहित्यांत तें केऽन्ना आयलां, घडये १९३५ वर्सा मुंबय उजवाडा आयिल्ल्या *वोवळ्यां* कथां-झेल्या सावन. महाबळेश्वर सैल, देविदास कदम, विठ्ठलराय भट सारकेले बरोवपी कारवारची भाशीक गिरेस्तकाय, थंयचे उतरावळीचीं खाशेलपणां घेवन कोंकणी साहित्याच्या मळार नेटान देंवल्यात. कारवारकारांनी मराठी साहित्याक योगदान दिलां. कन्नड साहित्याकूय दिलां आसतलें. पूण तांगेल्या कोंकणी साहित्यांत कारवार जितल्या 'धनीपणान' घोळटा तितलें मराठी वा कन्नड साहित्यांत घोळटा आसतलें काय?

कांय वर्सां फाटीं कोंकणी वाचप्यांक मांडवी, जुवारी संवकळीच्यो आशिल्ल्यो तशी म्हादय नाशिल्ली. आयज? सत्तरीच्या अंतरंगांतल्यान ती आमच्याय काळजांनी पावल्या. तिचे कुशींतली गोपिनाथ गांवसाची भासूय वांगडा घेवन आयल्या. शशिकांत पुनाजी, बाळकृष्णजी कानोळकार हांचे कवितेन अशीच पेडणेचे झरीच्या उदकाची रूच कोंकणी वाचप्याक दिल्या.

कोंकणी साहित्याची वेंग दिशींमाशीं वाडत आसा. ती वाडत वचपाचीय आसा. आनी, हे विवीधतायेच्या वैभवाचो अणभव देवनागरी लिपयेंत उजवाडा येवपी कोंकणी बरपावळूच सगळ्यांत अदीक दिता.

देखीक, मंगळूरच्या कोंकणी साहित्याची रूच, थोड्या प्रमाणांत जावं ती मागीर, आज कोंकणी वाचप्यांक देवनागरींतल्यान घेवंक मेळूंक लागल्या, केन्ना केन्ना हेरांनी केल्ल्या लिप्यंतराक लागून. वा.फ्रा. दे कोस्ता, जे.बी. मोरायस, जे. बी. सिक्वेरा, एडवर्ड नझारेथ, एडविन डिसौजा, मेल्विन रोड्रीगिस, किशू बारकूर ह्या कवींक लेखकांक देवनागरी कोंकणीचे वाचपी थोडे भोव वळखूंक पावल्यात.

देवनागरी लिपयेंत उजवाडा येवपी कोंकणी साहित्याचे माचयेर आनीक एक भोव म्हत्वाची गजाल घडल्या -

हिंदू आनी क्रिस्तांवांक लागीं हाडपी, तांकां जोडपी एक भास ह्या बरपांतल्यान अचळय वयर सरल्या. मनोहरराय सरदेसायांले कवितेची भास तिची एक बऱ्यांतली बरी देख.

कांय वर्सां फाटीं एक दीस म्हाका जाणवलें - सहज उलयतना म्हजे जिबेर 'जागो' येता, 'सुवात' येना; 'स्रिमंत' येता, 'गिरेस्त' येना; 'मैत्री' येता, 'इश्टागत' येना; 'म्हणून' येता, 'देखून' येना; 'नक्षत्र' येता, 'नखेत्र' येना. बरयतना मात हांव चुकनासतना 'सुवात', 'गिरेस्त', 'इश्टागत', 'देखून', 'नखेत्र' बरयतां. उपचारीकपणान केल्ल्या उलोवपांतूय हींच उतरां येतात.

अशें हेरांचेय बाबतींत घडटा काय...?

रोखडोच एम्. ए. (कोंकणी)च्या वर्गांनी एक ल्हानसो 'फिल्ड वर्क' केलो. अदमास केल्लो तसोच रिजल्ट मेळ्ळो. दुसऱ्या वर्सा नवीं भुरगीं आयलीं तेन्ना तांच्याय हातांत प्रस्नावळ दिली - उलयतना खंयचें उतर तुमचे जिबेर येता, आनी बरयतना तुमी खंयचें उतर वापरतात, काय दोनूय कडेन एकूच उतर वापरतात...? असल्या प्रस्नांची जाप अशी मेळ्ळी - क्रिस्तांव भुरगीं उलयतना आनी बरयतनाय 'सुवात', 'गिरेस्त', 'इश्टागत'... वापरतात; चडशीं हिंदू, म्हजे बशेन, सहजतायेन उलयतना 'जागो', बरयतना 'सुवात' वेंचून काडटात.

हें कशें, केन्नाच्यान आनी कित्याक लागून घडलें, हो एका संशोधनाचो विशय.

एक खरें, ह्या घडपाक कोंकणी चळवळीचो - कोंकणी-मराठी संघर्शाचो संदर्भ आसा. कोंकणी 'जागो' आनी मराठी 'जागा' खूब लागीं. तशीं 'स्रिमंत' आनी 'श्रीमंत' वेगळीं न्हय... 'सुवात', 'गिरेस्त' कोंकणीचें वेगळेपण दाखयतात. देखून हीं उतरां कोंकणी चळवळींतल्यान वयर सरिल्ल्या आमगेल्या म्हालगड्या बरोवप्यांच्या बरपांनी कळटां नकळटां आयिल्लीं आसूंक जाय.

आनी, क्रिस्तांवांचे जिबेर हीं उतरां कशीं आयलीं?

सोळाव्या-सतराव्या शतमानांत मिशनरींनी रचिल्ली कोंकणी बरपावळ वाचल्यार हाची थोडी-भोव जाप मेळूं येता. धर्मीक बरपावळींत ही उतरावळ देंविल्ल्यान क्रिस्तांवां कडेन तिचो संबंद उरलो, हिंदूंचे भाशेचेर वेगळे संस्कार जाले, ती वेगळे वाटेन गेली, अशें जालें जावंक जाय. (हांगाय अदीक संशोधनाची गरज आसा.)

एक मात, कोंकणीच्या ज्या रुपाक आयज आमी 'प्रमाण कोंकणी' म्हणूंक लागल्यांत ताच्या घडपांत हे उतरावळीचो म्हत्वाचो वांटो आसा.

पूण, प्रमाण मराठी पसून ही उतरावळ वेगळी ह्या एकाच कारणाक लागून कोंकणी बरपावळीन ही उतरावळ उखलून धरली अशें म्हणूंक मेळचेंना.

कोंकणी चळवळ हिंदूंक आनी क्रिस्तांवांक लागीं हाडून भाशीक अस्मितायेचे बुन्यादीर उबो आशिल्लो एक नवो समाज घडोवपी चळवळ आशिल्ली. हे चळवळीचे एक मार्गदर्शक - काकासाहेब कालेलकर - संद मेळटाली तेन्ना कोंकणी वावुरप्यांक सांगताले -

''कोंकणी उलोवपी हिंदू, क्रिस्तांव, मुसलमान बी सगल्या तरांच्या लोकां मजगतीं, समाजीक एकचार आनी राजकी अस्मिताय जागोवपाची आसल्यार ह्या सगल्या तरांच्या लोकांक एकठांय हाडूंक पावतली असली व्यापक, सर्वसमन्वयकारी आनी लवचीक कोंकणी भास नांगरून तयार करची पडटली'' (''तीस वर्सांत कोंकणी

विद्यापीठ'' ७६, अणकारून).

हिंदू आनी क्रिस्तांव अशे दोनूय तरांचे वाचपी दोळ्यां मुखार दवरिल्ल्यानूय कोंकणी म्हालगड्यांचे भाशेंत हें 'लवचीकपण' आयलां आसूंक जाय. (हाचेरूय आनीक संशोधन जावंक जाय.)

एक मात निश्चीतपणान म्हणूं येता -

देवनागरींत कोंकणी बरोवपी गोंयकार लेखक आयज फकत गोंयच्या हिंदू खातीर बरयना. ताच्या दोळ्यां मुखार गोंयचो क्रिस्तांव वाचपीय आसता. इतलेंच न्हय, गोंया भायलोय कोंकणी वाचपी आसता.

शणै गोंयबाबांले बरपावळींत हो 'पुराय कोंकणी समाज' पावला पावलाक जाणवता. *वोवळ्यांतूय* तो आसा. वोवळांचो ''वास घेवन प्रसाद माळतले भक्त'' कोण? उजवाडावपी, जयवंत वासुदेव कुळकर्णी, सांगतात - ''उत्तरेक मुम्बै धन्न दक्षिणेक त्रावणकोरपर्यंत घरदार कन्न राविल्ले कोंकणी लोक'' (''पैलेचीं उतरां'' VIII).

ह्या अखील भारतीय कोंकणी वाचकवर्गाचें अस्तित्व देवनागरी लिपयेंतल्या कोंकणी साहित्यांत जाणवता तशें हेर लिपयांतल्या कोंकणी साहित्यांत जाणवता आसतलें काय...?

देवनागरीन आमची नदर विशाळ केल्या. इतिहासान कोंकणी भाशेचेर, कोंकणी समाजाचेर केल्लो अन्याय इल्लो तरी पयस करपाचो तिणें यत्न केला.

कोंकणी विशय घेवन एम्.ए. करपाक आयज गोंयच्या खांची कोनशांतल्यान, समाजाच्या सगल्या थरांतलीं भुरगीं येतात. अंत्रुजी, साश्टी, बार्देसी, वेळीपांची कोंकणी, सत्तरींतली धनगरी भास, भटी, चितपावनी, गोंयकार मुसलमानांची कोंकणी सुवादाची उर्दू - ह्यो सगल्यो मोडी उलोवपी भुरगीं वांगडा बसून आयज कोंकणी शिकतात. सुरवेक आपणाले भाशीक फाटभुंयेचेर पांगरूण घालपाचो यत्न करपी भुरगीं एक दीस आपणाले भाशेच्या खाशेलपणांचेर उमेदीन आनी आत्मविस्वासान उलयतात, बरयतात. भाशीक विवीधतायेच्या ह्या सुवाळ्यांतल्यान कितें जल्मा येतलें, आयज सांगूंक येवचेंना. एक मात सांगूं येता -

कोंकणीचो फुडार हे विवीधतायेंत, आनी तिका सुवात दिवपी देवनागरी लिपयेचे माचयेर सेगूर आसा.


संदर्भ वळेरी (कोंकणी-मराठी-इंग्लीश ह्या क्रमान):

कुळकर्णी, जयवंत वासुदेव. ''पैलेचीं उतरां.'' सुरवेचीं उतरां. *वोवळ्यां.* (गिरगांव-मुंबय : कोंकणी साहित्य संघ, १९३५.) दुसरी फोटो उजवाडावणी, कारवार : सागरदीप प्रकाशन, १९९७.

*तिसरे बसकेची खबर.* मुंबय : गोमन्तक छापखानो, १९४४.

''दुसरे बसकेची खबर.'' *तिसरे बसकेची खबर* (परिशिश्ट २) १५-१७.

''पैले बसकेची खबर.'' *तिसरे बसकेची खबर* (परिशिश्ट १) १-१०.

शणै गोंयबाब. ''येवकार-अध्यक्षांलें उलोवप'' (१९४५). *समग्र शणै गोंयबाब* खंड १. संपा. शांताराम वर्दे वालावलीकार. पणजी-गोंय : गोवा कोंकणी अकादेमी आनी इन्स्टिट्यूट मिनेझिस ब्रागांझा, २००३. १०१-२२७.

कालेलकर, काकासाहेब, ''तीस वर्षांत कोंकणी विद्यापीठ.'' *पुण्यभूमि गोमंतक.* ले. कालेलकर. मुंबई : गोमंत भारती प्रकाशन, १९५८. ७५-७७.

केळेकर, रवीन्द्र. ''कोंकणीचे राजकारण'' *भाषिक संघर्षाचे समाजशास्त्र.* ले. केळेकर. संपा. व अनु. अरुणा दुभाषी. पणजी-गोवा: राजहंस वितरण, २००८, ९२-१०१.

*Dalgado on Konkani* (A tr. of Mgr. S.R. Dalgado's Introductions to his dictionaries). Tr. by Suresh J. Borkar et al. Margao-Goa : Asmitai Pratishthan, 2008.

Kelekar, Ravindra. *A Bibliography of Konkani Literature in Devanagari, Roman and Kannada Characters.* Goa : Gomant Bharati Publication, 1963.




पडसाद

## अंक संगरावपा सारको जाला

साफल्य फ्लॅट नं. २
बोले रोड, दादर
मुंबय ४०० ०२८

प्रिय माधवी सरदेसाय,

हर्षाबाय कडल्यान रेकाद मेळना फुडें *जाग* दिवाळी-नातलां अंक तुवें धाडून दिलो तो काल मेळ्ळो. मोलादीक साहित्य आशिल्लो सोबीत अंक पळोवन धादोस जालों. अंक संगरावपा सारको जाला. तो सगळो वाचपाक म्हाका वेळ लागतलो. हरदत्तबाबान आपणाल्या सुंदर लेखांतल्यान पोरण्यो यादी जागयल्यो. आकाशवाणीचेर आल्फ्रेड ब्रागांझ आनी इव्हाग्रियु जॉर्ज हांणीय बऱ्यो कार्यावळी दिल्यात. बरयल्लें भाशण ड्रामाटायज करून वाचपाचें भान म्हाका स. इव्हाग्रियुबाबान दिलें. आल्फ्रेड ब्रागांझ खूब उत्साही आशिल्लो. ललिता खांडेपारकार, दुर्गा नेवरेंकार आनी उपरांत माधव बोरकार हांणी आकाशवाणी वयल्या कार्यावळींचो दर्जो तिगोवन तर धरलोच पूण तो ऊंच पावंड्यार व्हेलो... हर्षाचें प्रवास वर्णन वाचप हांव केन्नाच चुकयना. हे खेपे गोंयां गेल्ले कडेन ताणें *आनंदयात्रा* हें आपणालें पुस्तक म्हाका दिलें. पयलीं वाचिल्ले लेख एकठांय वाचपाक खूब मजा आयली. ताणें एक बरी शैली आपणाल्या. म्हऱ्यांत बसून आपणाले अणभव सांगता असो भास जाता.

- मनोहर पै धुंगट
संपर्क: ०२२-२४२२२३८८



# निर्णय

## प्रशांत म्हाड्डोळकार

"अश्यो भायर पासयो कित्याक मारतात? येयात भितर... आनी आयज इतले सकाळीं फुडें शे कित्याक उठून बसल्यात?"

रेखाल्या ह्या उतरांनी सदानंद भानार आयलो.

"घेयात..." ताच्या हातांत च्याचें कप दीत रेखान म्हणलें, "ही सकाळच्यान तिसरी च्या, आयज अशे अस्वस्थ कित्याक जाल्यात?"

"सांगतां, यो बस अशें..." आपल्या तिगीय चलयांच्या बेडरुमाच्या बंद दारा कडेन पळयत सदानंदान म्हणलें.

तीं दोगांय सोफ्यार बसलीं. हातांतल्या च्याच्या कपा कडेन पळयत सदानंद उलयलो, "आयज आमकां मेळपाक एक जोडपें येतलें. मिस्टर आनी मिसेस रजत मिस्त्री. मुंबयचो तो एक चार्टर्ड ॲकाउंटंट. थंयच्या व्हडल्या व्हडल्या कंपन्यांचें ऑडीट हाचीच कंपनी करता. मुंबयच्या नरीमन पॉइंट भागांत ताचें पॉश ऑफीस आसा. म्हणटगेर तुका कळ्ळां आसतलें, हो पयशेकार मनीस. ताची बायल सुधा मिस्त्री. हिचें आदलें नांव सुधा कामत..."

सदानंद उलोवपाचो थांबलो. तो आतां रेखा कडेन पळयतालो.

"सुधा कामत... म्हळ्यार ती... पंदरा वर्सां पयलीं गोंयांत प्रॅक्टीस करतालें तें सुधा...? आयज शी ताका तुमची याद आयली?" रेखाल्या मुखामळा वयली चिंता ताका लिपोवंक आयलिना.

"म्हजी न्हय... ताका ताचे चलयेची याद आयल्या. आनी देखून तीं आमकां मेळपाक येतलीं..."

एका चलचित्रांत पळोवचो तसो फ्लॅशबॅक रेखाच्या दोळ्यां मुखावयल्यान सरकलो.

पंदरा - एक वर्सां पयलींची गजाल... तो दीस. कोर्टांत वचचे पयलीं आपल्या ऑफिसांत वचपाक भायर सरतल्या सदानंदान स्कुटरीक कीक मारचे पयलीं रेखाक सांगलें,

"आगो आयज तुका फावता जाल्यार सिव्हील कोर्टांत मातशी फावट मार. एके इंटरेस्टींग केसीचो निकाल जावपाचो आसा. एक पक्षकार म्हजी क्लायंट आसा."

सदानंद गोंयांतलो एक आदवोगाद. ताचो बापूय लेगीत आदवोगाद आशिल्लो. सदानंद बापायलीच प्रॅक्टीस चलयतालो. एक सज्जन आनी हुशार आदवोगाद म्हणून सगळे लोक ताका वळखताले. रेखाय बी एक आदवोगाद. पूण तें असिस्टंट पब्लिक प्रॉसिक्युटर म्हणून सत्र न्यायालयांत काम करतालें. रेखाली प्रॅक्टीस क्रिमिनल कोर्टांत तर सदानंदाली सिव्हील कोर्टांत. तांगेलो संवसार बरो चलतालो.

तांकां दोगी चलयो. एक सात वर्सांचें माधवी आनी दुसरें अडेज वर्साचें राधा. आवय-बापाय सारक्योच दोगीय चलयो रुपा गुणांनी बऱ्यो आशिल्ल्यो. सदानंदाल्या सभावाक लागून कसल्याय नस्त्या भानगडींच्यो केसी ताचे कडेन हाडपाक लोकांक धीर जाय नासलो. देखून गिरेस्तकायेंत न्हय तर खावन पिवन बरो अशेच रितीन तांचो संवसार चलतालो.

"पळयतां, वेळ मेळ्ळो जाल्यार येतां. कसली केस... आनी इंटरेस्टींग कित्याक?" सदानंद तसो आपणालें काम घरा कडेन घेवन येवपी मनीस न्हय. तागेले सगळे क्लायंट एक तर ताका कोर्टांत मेळटाले नाजाल्यार तागेल्या ऑफिसांत. ते खातीर रेखान विचारलें.

"आगो, ही केस म्युच्युअल डायव्होर्साची... तें सुधा कामत, कांय वर्सां फाटीं, म्हजो चार्टर्ड ॲकाउंटंट, मनोज बुडकले, तागेर नोकरेक आशिल्लें, ताची आनी ताच्या घोवाली डायव्होर्स केस आयज

कोर्टा मुखार निकालाक येवपाची आसा.''

रेखाक उगडास जालो. सुधा कामत! नाका-दोळ्यान सुंदर, आवय-बापायलें एकलेंच. बापायक हार्टाचें दुखणें जालां म्हणपाचें निमित्त जावन अकस्मात अठ्ठेचाळीस वर्सांचे पिरायेर पिड्ड्यार जाल्लो. आवय अमेरिकेंत लॅक्चरर म्हणून गेल्ली, ती घोवाच्या मरणा उपरांत, गोंयांत परती आयलीच ना. थंयच स्थायीक जाली... स्मार्ट आनी पयशेकार सुधाक एकलें जगपाची संवय जाल्ली. कामाच्या निमित्तान ताची वळख एके मल्टिनॅशनल कंपनींत काम करपी सचीन पाटील ह्या ऑफिसरा वांगडा जाली. हो रुबाबदार तरनाटो अमेरिकेंतल्यान एम.बी.ए. करून आयिल्लो. वळखीचें रुपांतर तांच्या लग्नांत जालें.

एक वर्सान तांकां एक चली जालें. चलयेच्या जल्मा उपरांत तांच्या संवसारांत किजिलां जावपाक लागलीं. पयलीं इल्ल्याश्या कारणान सुरू जाल्लीं झगडीं ल्हवू ल्हवू मोठ्यार पडलीं. आनी परिणामीं, दोगांनीय एकामेकां पसून पयस सरपाची थारावणी घेतली. हे गजालीक आतां दोन वर्सां जायत आयिल्लीं. हो म्युच्युअल डायव्होर्स आशिल्लो तरी केस दोन वर्सां चल्ली. सुधाचे वटेन केस सदानंद लडयतालो. ताच्या विरोधांत मुंबयचो एक व्हडलो आदवोगाद आशिल्लो. कोर्टांत दोगूय आदवोगाद एकामेकां आड झगडटाले तरी कोर्टा भायर दोगांयची इश्टागत आशिल्ली, आनी ती चड करून सदानंदाच्या प्रामाणीकपणा खातीर जाल्ली.

दोगांय आदवोगादांचे निमाणे युक्तीवाद जातकीर न्यायाधिशान सांगलें, ही म्युच्युअल डायव्होर्स केस आशिल्ल्यान कोर्ट तांकां डायव्होर्स दिता. सुधान आपल्याक पोटगी नाका म्हणून आदींच सांगिल्लें. तांगेले बाकीचे सगळे इस्टेटीची वांटणी एकमतान जाली. आनी आतां तांचे चलयेचो ताबो कोणा कडेन दिवचो हो एकूच प्रस्न उरिल्लो.

आपूण एकलो आनी आपली नोकरी फिरस्त्याची म्हणून चलयेचो सांबाळ करपाक आपल्याक जमचेंना अशें सचीन पाटीलान कोर्टांत सांगलें. सदानंदाची नदर, ते इल्लेशे चलयेचेर गेली. भियेल्ल्या सोंशा सारकें तें आपल्या आवय-बापायक पळयतालें. मदींच चुळबूळ करतालें. नर्सीन दोळे मोठे करतकच परतून आंग चोरून बसतालें. न्यायाधिशान सुधाक आपलें म्हणणें मांडपाक लायलें. सदानंदाक आतां शॉक बसलो. इतलो तेंप आपूण चलयेक सांबाळटलें अशें म्हणपी सुधा अकस्मात बदल्लें. चलयेचो सांबाळ करपाक आपल्याक शक्य जावचेंना अशें निवेदन ताणें कोर्टा मुखार केलें. कोर्टांत हाजीर आशिल्ल्या सगळ्यांक अजाप जालें.

न्यायाधिशाकूय हो प्रकार नवोच आशिल्लो. हरशीं डायव्होर्स केसींत, भुरग्याचो ताबो आपल्याक मेळचो म्हणून घोव बायल झगडटात. पूण हांगा नवलूच घडटालें. बापायकूय भुरगें नाका आशिल्लें आनी आवयकूय. सदानंदान लोकांचेर नदर मारली. तांचे भितर ताका रेखा दिश्टी पडलें.

न्यायाधिशान दोगांय आदवोगादांक आनी तांच्या क्लायंटांक आपल्या कॅबिनांत आपयलीं. न्यायाधिशाच्यो सुचोवण्यो आयकुपाची सुधाची वा ताच्या घोवाची दोगांयची तयारी नाशिल्ली.

''तशें जाल्यार तुमचे चलयेक बाल सुधार घरांत धाडपाची व्यवस्था हांव करतां. चलयेचो सांबाळ करपाची जापसालदारकी आतां सरकाराची,'' न्यायाधिशान म्हळें आनी तो वचपाक उठलो. सदानंदाक कितें दिसलें, कोण जाणा. तो सट्ट करून उठलो आनी ताणें न्यायाधिशाक म्हणलें, ''युअर ऑनर... तुमची संमती आसत जाल्यार हांव ते चलयेक सांबाळटां. तसो रीतसर अर्ज न्यायालयाक दिवपाची अनुमती तुमी म्हाका दियात.''

आतां शॉक बसपाची पाळी न्यायाधिशाची आशिल्ली.

''मिस्टर सदानंद, तुमची ही भावना हांव समजूंक शकतां. तुमी ही ऑफर दिल्ले बद्दल हांव तुमची तोखणाय करतां. पूण तिचेर हांव निर्णय दिवंक शकना; तुमच्या अर्जाचो विचार मुजरत जावचो असो शेरो मात दिवंक शकतां. तरी म्हाका दिसता, हे विशीं तुमी मॅडम रेखा कडेन उलयात, कारण तांचीय मान्यताय जाय पडटली.''

कॉर्टान चलयेची व्यवस्था अनाथाश्रमांत केली.

''पूण आमकांय दोगी चलयो आसात. धाकलें राधा तर तीन वर्सांचेंय जावंकना. तरी तिसरें चली पोसकें घेवप?'' खंयचीय बायल-मनीस उलयतली आशिल्ली तशेंच रेखा उलयलें.

''हय, आमकां दोगी चलयो. म्हणून तिसरी घेवप. देवा दयेन आमकां कांय उणें ना. दोगांयच्या जेवणांतली तिसरी डंडी घालुया स्वातीच्या तोंडांत.''

सदानंद केन्ना कसलोच हट्ट करिना, पूण एकदम कसलोय हट्ट मनांत रिगता तेन्ना केन्नाच फाटीं सरना - आयजवेर ताचे बरोबर संवसार केल्ल्या रेखाक ही खबर आशिल्ली.

''नांव बरें सोदून काडलां आं... स्वाती. म्हाका खूब आवडलें. माधवी, स्वाती आनी तिसरें राधा.''

ही घडणूक जावन वतकच सात दिसांनी स्वाती तांगेर आयलें. माधवी कडेन उलोवन रेखान ताका आनीक एक भयण येतली हें सांगून तयार केल्लें. राधा समज येवपा इतल्या वयाचें नाशिल्लें. सोयऱ्या-धायऱ्यांनी आनी इश्टां-सांगात्यांनी सांगून पळयल्लें. पूण सदानंदाक सगळे बरे भशेन वळखताले. देखून सगळे वोगी रावले.

'रेखा, आमी मगो एक करुया, स्वातीक समज येतकच ताका सगळें सांगुया, ताका दुसऱ्यां कडच्यान टोमण्यांनी कळचे परस तें बरें.''

सदानंदाचो होच मेकळो सभाव रेखाक खूब आवडटालो. केन्नाय लाडांत येवन रेखा ताका म्हणीय बी, ''तुमच्या ह्याच सभावा खातीर तुमी म्हाका आवडटात...''

धाकटुलें स्वाती आपल्या दोगीं भयणीं बरोबर वाडपाक लागलें. हें पोसकें अशें सांगिल्लें जाल्यारूय कोणाक खरें दिसचेंना अशीं तीं तिगांय एकामेकां कडेन वागतालीं. मनशाचें मन निर्मळ आसतकच ताचें सगळें जग निर्मळ जाता, हें सदानंदालें म्हणणें खरें थरतालें.

आनी आयज अकस्मात पंदरा वर्सांनी एक वादळ घरांत घुसपाक सोदतालें.

''पंदरा वर्सांनी ताका याद जाली आपले चलयेची...? एक दीस सादी वासपूस घेतलिना, आनी आयज अकस्मात मोग खंयच्यान आयलो काळजांत?''

रेखा पोटतिडकीन उलयतालें. ताचें फट नाशिल्लें. सदानंदाचो पुराय आनी निमाणचो पेमेंट करपाक सुधा ताच्या ऑफिसांत आयिल्लें. तेन्ना सदानंदान ताका स्वातीक हाडूं काय म्हूण विचारिल्लें, विचारपाक जाय म्हूण. पूण सदानंदाच्या हातांत चेक दिवन सुधा मोन्यांनी गाडयेंत बसून गेल्लें तें परतें

केन्ना दिसूंक नाशिल्लें.

"हांव सुधा कडेन उलोवंक ना. ताचो घोव रजत मिस्त्री उलयलो म्हजे कडेन फोनार. जंटलमॅन मनीस कसो दिसलो. ताणेंच सांगलें हें सगळें. घटस्फोटा उपरांत सुधा गोंय सोडून मुंबय गेलें. कांय तेंप आवय बरोबर अमेरिकेक रावलें. थंयच ताची आनी रजताची वळख जाली. रजताचें लग्न जाल्लें, पूण लग्न जावन खूब वर्सां जालीं तरी भुरगें जालें ना म्हूण ताचे बायलेन घटस्फोट घेतिल्लो. खरें म्हळ्यार, दोश आपल्यांत ना अशें तो म्हणटा.... खरें फट, देवाक खबर...!"

रेखा आयकतालें. सुधा आपले चलयेक कित्याक मेळपाक सोदता हाची ताका आतां इल्ली इल्ली सुलूस मेळपाक लागिल्ली.

"म्हळ्यार, सुधाक भुरगीं नात, म्हणून ताका स्वातीची याद जाल्या. पूण तुमी कितलेंय सांगलें तरी पंदरा वर्सां वाडयिल्लें म्हजें चली हांव ताका काडून दितलें अशें मात समजूं नाकात..."

रेखा तशें सदानंदा मुखार चड उलोवपी न्हय हें खबर आशिल्ल्या सदानंदाक ताच्या उलोवण्यांतली धग जाणवली.

"हें पळय रेखा, व्हर ताका म्हणून स्वातीक काडून दिवप म्हजेय कडेन जमपाचें ना. पूण मनीस चुकता. कालची चूक आयज कळ्ळी जाल्यार मनशाक सुदारपाची संद कशी न्हयकारपाक जाता? हेच खातीर हांवें ताका मेळुया म्हणून सांगलां. तांचें म्हणणें आयकुया. स्वाती कडेन उलोवया. आपलें बरें वायट कळपा इतली समज ताका आसा. तीं दोगांय फाल्यां सकाळीं इकरा वरांचेर येतात. तूं स्वाती कडेन आयज रातचें उलय. हांव आसतलोंच."

रेखा थोडें अनमनलें. पूण तो म्हणी तें ताका खरें दिसतालें. चलयांचें हेंच वय आसता सपनां पळोवपाचें, हांसपा किटकिटपाचें. तिगूय चलयांक कांयच कमी पडपाक दिवंक नाशिल्लें तरी घरच्या वाडट्या गरजां मुखार हात आंवळून घेवचो पडटालो. तातूंत व्हडल्या माधवीच्या शिक्षणाचेर खूब खर्च जातालो. तें दोतोरकी शिकतालें. स्वातीचीय खूब इत्सा आशिल्ली, दीदी सारकें तेंय बी दोतोर जावंक सोदतालें. तांच्या नशिबांत बरे दीस आसात जाल्यार मोडटें कित्याक घालुया... तरातरांच्या विचारांनी रेखालें मन आकुळ-पिकूळ जातालें. सदानंदाचें उलोवणें कानार पडटालें, पूण मनांत वच नाशिल्लें.

"हांव उलोवचें ना. तुमकां नाका नाका म्हणटा आसतना तुमी पयर ताका सगळें खरें सांगून उडयलें . त्या दिसा सावन तें भुरगें धड उलयना, धड हांसना... आतां ही बातमी हांव ताका दिवचेंना. तुमीच उलयात. आयज माधवी येतलें हॉस्टेलांतल्यान. पांचूय जाणां बसून उलोवया.

स्वातीन सगळें आयकून घेतलें, एक उतर तोंडांतल्यान काडलें ना.

"तूं तांकां मेळटलें मगो?"

"डॅडी तुवें तांकां मेळपाक आपयल्यांत, म्हणून तांकां मेळपाक जाय..."

अशी सुकी जाप दिवन तिगांय आपल्या बेडरुमांत वचून खबरो मारपाक लागलीं. माधवी घरा आयलें म्हणटकच तांची हीच कार्यावळ आसताली.

"चल, तकले वेलें एक वजें देंवलें. म्हाका दिशिल्लें, स्वाती तांकां मेळपाक सोदचेंना."

रेखा मनाकाळजा सावन उलयलें.

"आयचीं भुरगीं शाणी गो. तीं वेव्हारी. आमचे सारकींच इमोशनल न्हय. चल, आमी न्हिदपाक या."

सकाळीं पावणें इकरांक एक मर्सिडीझ गाडी दारा मुखार येवन थांबली. गाडयेंतल्यान सुधा आनी ताचो घोव देंवलीं. ड्रायव्हरान गाडयेचे डिकींतल्यान व्हडलीं व्हडलीं बॉक्सां भायर काडलीं. सदानंदान हांसत दार उगडलें. दोगांय जाणा बसलीं. रेखान दिल्लें सरबत पिता आसतना, रजत उलोवपाक लागलो.

"मि. सदानंद, आय मस्ट थँक यू फॉर सिइंग अस अॅट सच अ शॉर्ट नोटीस. आय होप यू मस्ट हॅव स्पोकन विथ द चाइल्ड..."

उलयतां उलयतां ताणें सांगलें, तांचें लग्न जावन धा वर्सां जाल्लीं. भुरगें जावंक नाशिल्लें. दोगांय भितर कांयच दोश ना, पूण सुधा प्रॅग्नंट जावंक शकलेंना. सायकॉलॉजिकल डिजऑर्डर अशें दोतोरांचें म्हणणें पडलें. सगळे उपाय जाले. निमाणें, भुरगें अॅडोप्ट करप अशें थरलें, तेन्ना सुधान आपले चलयेचें नांव सुचयलें.

"हे पळयात सदानंदबाब, त्या वेळार भुरगेपणाच्या भरांत आनी तशीच परिस्थिती आशिल्ली म्हणून हांव स्वातीचो सांबाळ करपाक शकलेंना. पूण हांव आवय ताची, म्हजी चूक म्हाका कळ्ळी. ते चुकीची थोडी भरपाय करची म्हणून ताका अॅडोप्ट करचें अशें म्हाका मनांतल्यान दिसलें. ते खातीर आयज ताका हांव मेळपाक आयलां. ताचो फुडार पळोवन तुमी योग्य तो निर्णय घेयात."

सुधा पयले फावट आनी इतलेंच उलयलें.

"हें पळयात, आमी काल स्वाती कडेन उलयलीं. तें समजिकायेचें भुरगें. तें तुमकां मेळपाक, तुमचे कडेन उलोवपाक तयार जालां. हाचो अर्थ, ताका आपलें बरें वायट कितें तें खबर आसा. ताचें डिसिजन फायनल आसतलें. तें आमी सगळ्यांनी मानून घेवपाक जाय. कसलीच जबरदस्ती ताचेर जावंक जायना, हांव ती सोंसून घेवचोंना. हेच खातीर म्हाका दिसता, हांव आनी रजत आमी दोगूय भायर गॅलरींत रावतात, रेखा, तुमी आनी स्वाती उलयात."

इतलें सांगून सदानंद आनी रजत भायर गेले.

"स्वाती भायर यो. तुजी आवय आयल्या तुका मेळपाक."

स्वाती भायर आयलें, तशें सुधान कांय प्रेजेंट्स ताका दिलीं. कांय भयणींक दी म्हणून दिलीं.स्वातीन सगळीं प्रेजेंटां घेतलीं.

"हें पळय स्वाती, तूं आमकां जड जालां म्हणून आमी हें करतात अशें मात देवा खातीर समजूं नाका. तूं म्हज्या काळजाचो कुडको. आमी फकत तुजें बरें पळयतात..."

रेखाच्यान फुडें उलोवपाक जमलें ना. तें दोळे पुसत बेडरुमांत वचपाक उठलें.

"मम्मी वचूं नाका. राव हांगाच." रेखाचो हात घट्ट धरून स्वातीन म्हणलें. सुधाच्या दोळ्यांत दोळे घालून स्वाती उलयतालें. "पंदरा वर्सां फाटीं अशाच एका दिसा तुवें म्हाका चली म्हणून न्हयकारिल्लें.. आयज हांव तुका आवय म्हणून न्हयकारतां."

सुधा मोन्यांनी मान सकयल घालून घरांतल्यान भायर सरलें. गाडयेंत बसलें आनी गेलें. सदानंद घरांत आयलो. भितर सोफ्याचेर आवय आनी धूव एकीमेकीक वेंगांत धरून हुडक्यांनी रडटालीं.



संपर्क: ९७६४७६९२२४

# अख्खो नागेशबाब मेळोवन दिवपी दीस

रमेश भगवंत वेळुस्कार

नागेश रामदास करमली. एक अनवळखी मनीस.तो कोण तें म्हाका खबर ना. ताचें कविते कडचें नातें कितें तें म्हाका खबर ना. तो खंय काम करता तेंय म्हाका खबर ना. पूण तो कोंकणी भाशा मंडळाचे तिसरे 'कविराज' कोंकणी काव्यसर्तीचो एक परिक्षक आसा ही खबर म्हाका म्हजो इश्ट आनी कवी शंकर परुळेकार हाणें दिली. ही खबर आसली जानेर १९६९तली. तो तेन्ना पणजे कस्टम हावजांत काम करतालो. हांव धेंपे कॉलेजांत फर्स्ट इअर आर्टस् करतालों. हे काव्यसर्तीची खबर म्हाका आमचे कॉलेजींतले मराठी भाशेचे प्रोफसोर एस्. एस्. नाडकर्णीन दिल्ली, आनी हे सर्तींत कविता धाडपाकूय सांगल्लें. तश्यो हांवें त्यो कोंकणी भाशा मंडळाच्या पणजेच्या ऑफिसांत धाडुनूय दिल्ल्यो. हें ऑफीस जे बिल्डिंगेंत आसलें तातुंतूच (म्हात्म्याच्या) इन्स्टिट्यूट ऑफ इन्स्ट्रक्शन हायस्कुलाचे दोन वर्ग चलताले. ह्या स्कुलांतल्यान हांवें १९६८ त एस्. एस्. सी. उत्तीर्ण केल्ली. पूण कोंकणी भाशा मंडळ हे संस्थे कडेन म्हजो कसलोच संबंद येवंक नासलो. आनी तांणी आयोजीत केल्ले सर्तीचो एक ज्युरी करमली आसलो. म्हाका ही खबर कळटकूच ताचे संबंदान हांवें परुळेकाराक विचारलें. ताणें आपल्याक कांयच खबर ना अशें सांगलें. ताचो एकादलो काव्यसंग्रह बी आसलो जाल्यार वाचून काडचो असो विचार मतींत आयल्लो. कारण ते मेरेन बाकीबाब, बालकवी, कुसुमाग्रज, रेगे, सुमित्रानंदन पंत,महादेवी वर्मा अशे मराठी, हिंदी कवी वाचून काडलेले.

इंग्लीश पाठ्यपुस्तकांनी जितली म्हूण इंग्लीश कविता आसली तीय वाचून काडलेली. म्हजो शेजारी, कोंकणी कवी र.वि. पंडित, ताची सगळी कविता हांवें वाचलेली. तें सोडलें जाल्यार कोंकणी संबंधान आनीक विशेश कांयच खबर नासलें, आनी तेन्नाचें कोंकणी चळवळीचें मुखपत्र *राष्ट्रमत* तेंय तशें वाचपाक मेळनासलें. आमगेर *गोमन्तक* आनी *प्रदीप* हीं दोन मराठी वर्तमानपत्रां येतालीं. दोनूय वर्तमानपत्रां कोंकणी विरोधी. हातूंत केन्ना नागेश करमली हें नांव पळोवंक नासलें. हे सर्तीचे आनीक दोन परिक्षक आसले. तांतल्या एकाचें नांव मातशें आयकल्लें. मनोहरराय सरदेसाय. हांकां तांच्या गिता खातीर कसलो तरी आकाशवाणीचो पुरस्कार मेळ्ळा ही खबर एक फावट *गोमन्तकांत* वाचलेली. तो कविता बरयता इतलें खबर जाल्लें. पूण ताचे काव्यसंग्रह उजवाडा आयल्यात काय ना, हें खबर नासलें. तिसऱ्या परिक्षका संबंधान एक खबर जाल्लें की तो ऑल इंडिया रेडिओचो डेप्युटी डिरेक्टर आसलो. शिवाय तो सुटके झुजारीय आसलो. मनांत दिसून गेलेंच - जाका कवितेंत फिशालकाय ना ताका सर्तीचो ज्युरी कशे नेमतात काय? अशे तरेचे प्रस्न मनांत उपरासप हो प्रो. नाडकर्ण्यांच्या लॅक्चरांचो परिणाम आसलो. ही खबर आसली १९६९च्या जानेरांतली. सुमार पंचेचाळीस वर्सां पयलींची.

नागेश करमली हाचे विशीं म्हाका इतली उत्सूकताय कित्याक, तें मात म्हाका कळनासलें.

सर्तींत वांटो घेतिल्ल्या कवींचें कवी-संमेलन पणजेच्या क्लूब व्हाश्कु द गामांत आयतारा दीस, २१-१-६९ क, सांजवेळच्या साडेचारांक आसा अशे आमकां आमंत्रण पावल्लें. सांजवेळा हांव आनी शंकर परुळेकार पणजे मेळ्ळे. आमी 'काफे भोसलें'त एक एक च्या मारली आनी चार जावन

धायेक मिनटांनी क्लुबांत पावले. परुळेकारूय एक स्पर्धक आसलो. क्लुबाच्या हॉलांत खूब व्हडले व्हडले हारशे आसले. गडगंज लाकडांच्यो फ्रेमी आसलेले. ते म्हाका खूब घोस्ताक गेले. हॉलभर फुलांची आरासूय पळयली आनी कोंकणी भाशा मंडळाच्या कवी-संमेलनाच्या ह्या फुलवंत आयोजनाची म्हाका तोखणाय दिसली. हांवें तें परुळेकाराक म्हटलें. तो म्हणपाक लागलो, "तें तशें कांय ना. आरे, हांगासर दांस, काजरां चालूच आसतात. ताचे खातीर क्लुबाच्या आयोजकांनी केल्ली ही आरास." आमी पावले तेन्ना थंय बरेच लोक आसले. चडशे अनवळखी. पूण ल्हवू ल्हवू लोकांची संख्या गर्देंत रुपांतरीत जायत वतना पळयली. थंयच्या हारश्यांक लागुनूय गर्देची जाणीव प्रकर्शान जाताली. कार्यक्रम जालो. सर्तींत पयलो पुरस्कार म्हाकाच मेळ्ळो. तो म्हाका मेळटलो ही एका टक्क्यान लेगीत म्हाका अपेक्षा नासली. हांव कोण्ण नासलेलों तो खिणांत कोण तरी जाल्लों. "नांव नासलें ताका मेळ्ळें रे नांव" अशी ती अवस्था आसली. कार्यक्रम सोंपलो तेन्ना कोंकणी खातीर वावुरपी खूब लोक म्हाका मेळपाक आयले. ही अनपेक्षीत घटना आसली. तातूंत एक मनीस आसलो, नागेश करमली. कितलेशेच दीस पयलीं जाका मेळपाक, जाचे विशीं जाणा जावन घेवपाक हांव रावतालों तो मनीस म्हजे सामकार उबो आसलो. एके कवितेन म्हाका कितले मनीस आनी कितें कितें जोडून दिलें तें हांव अचळय अणभवतालों. फुलां, कॅश पयशे आनी एक व्हडली ढाल आनी भोवमान ही व्हडली जोड आसली. ह्या वेळार सातवेंत आठवेंत शिकपी एका भुरग्याचो *चंवर* नांवाचो एक माणकुलोच आनी सुंदर काव्यसंग्रह उजवाडाक येतालो. हो कवी आसलो आमचो इश्ट माधव बोरकार. ही पुस्तक प्रकाशनाची घडणूक त्या दिसाची म्हाका सगळ्यांत चड आवडलेली घटना.

नागेश करमलीन म्हजी खबर काडली. हांव करतां कितें, हांवें कितें कितें बरयलां, तें ताणें जाणा जावन घेतलें. ताचे वांगडा प्रकाश पाडगांवकार आसलो. ताका हांव कवी म्हण मात पयलेच पावट वळखतालों. तो म्हात्म्यागेर नायट स्कुलांत शिकपी. हांव डे स्कॉलर. आमी एकाच वर्सा मॅट्रीक पास जाल्ले. थंय संमेलनांत कविता सादर करपाक जमलेल्या तीस-एक कवीं मदीं तोच एकटो म्हजे वळखीचो कवी आसलो. आनी आतां प्रकाश गोवा आकाशवाणीचेर काम करतालो म्हण ते दोगूय म्हाका वांगडाच मेळपाक आयल्ले. नागेश करमलीन दुसऱ्या दिसा म्हाका आकाशवाणीचेर आपयलो. इतलो तेंप रेडिओ एक व्हडलें आकर्शण आसलें. थंयचो एक रेडिओ आर्टिस्ट म्हाका आपयतालो. आनी ह्या आपोवपांत जें आपलेपण आसलें तें भोव ओडलायणें आसलें.

कार्यक्रम सोंपोवन हांव, परुळेकार आनी बोडके नांवाची सर्तींत वांटो घेतिल्ली एक कवयित्री चलत फेरीबोटीच्या धक्या मेरेन आयलीं. बोडके मेडिसिनाचो अभ्यासूय करताली. तिका पलतडीं बेतींत वचून दिवचले वचपाचें आसलें. तिका फेरीबोटी मेरेन पावोवन आमी प्रासार वचपा खातीर चलपाक लागले. वाटेक कस्टम हावजा कडेन अप्सरा हॉटेलांत च्या घेवपा खातीर रावले. च्या घेतना म्हाका परुळेकारान सांगलें, हांव आयज पयल्याच दिसा कोंकणींतल्या मनोहरराय, रवींद्र केळेकार सारक्या व्हड साहित्यिकां वांगडा बसलों. हाचे मुखार हो योग परत कांय आसपाचो ना. हे फुडें आसतलें तें फकत रिपिटिशन. आनी हें रिपिटिशन म्हटल्यार फकत मिरोवप. म्हाका कितें जाय, मिरोवप काय सातत्यान नवें सृजन, अशें म्हाका ताणें विचारलें. हांवें ताका सांगलें, मिरोवप हांव बिलकूल करपाचो ना. पूण ह्या मिरोवपी लोकांचो त्रास जातलोसो दिसना तुका, हांवें ताका विचारलें. परुळेकार म्हणपाक लागलो - जातलो, असल्या लोकांचो त्रास बाकीच्या लोकांक सदांच जायत आयला. तुजे कडेन हें सगळें सोंसपाची तांक आसत जाल्यार तरूंक शकतलो. ना जाल्यार तूं खऱ्या अर्थान ना जातलो, ताणें सांगलें. हांव राती कडेन घरा पावलों तेन्ना म्हजो बापूय हांव घेवन आयल्ल्यो गजाली पळोवन चक्रावलो. ताका उमेत जाल्लीच. आतां ती उमेत घरभर जाल्ली. पूण ताणें म्हाका म्हटलें, हे पुरस्कार तकलेक मारतात. पांय जमनीर दवरून चलप गरजेचें आसता. भोवमानांतलो अभिमानूच काडून उडोवपी बापायचीं आनी परुळेकाराचीं तीं उतरां मात म्हाका सदांच याद उरलीं.

दुसऱ्या दिसा, कॉलेज जाले उपरांत, साडेतीन पावणेचारांच्या सुमाराक हांव 'एमिसोर द गोअ'चे पांवडे चडलों. रेडिओचो आनी म्हजो एक पोन्नो संबंद आसलो, तो म्हटल्यार, म्हज्या दादान 'एमिसोर द गोअ' चेर देड दोन वरांचें एक संगीत नाटक सादर केल्लें जातूंत ताणें मुखेल संगीत भुमिका केल्ली. म्हाका लेगीत रेडिओचेर प्रोग्राम करूंक जाय आसलो. तो कार्यक्रम कसलो तें मात म्हाका खबर नासलें, पूण तें नागेश करमलीन, न्हय नागेशबाबान, थारयल्लें. पयल्याच दिसा रेडिओ वयल्या वातावरणांत नागेश करमलीचो नागेशबाब केन्ना जालो, कळ्ळेंच ना. पयली गजाल म्हटल्यार, रेडिओर येवपाचेंआमंत्रणूय म्हाका ताणेंच दिल्लें. एमिसोराचेर पांय दवरतांच म्हज्या मनांत एक विचार आयलो - म्हाका हांगा कोण वळखतलो? पूण थंय ऑफिसांत बसलेल्या कोणें तरी इंग्लीशींत म्हटलें, "टॅल नागेश दॅट द विनर ऑफ यॅस्टर्डेज पोएट्री काँटेस्ट हॅज कम." म्हाका दिसतालें, म्हाका हांगा कोण्ण वळखुचोना. पूण म्हज्या मनांतलो दुबावी विचार चुकीचो आसलो. शिवाय हो मनीस गोंयकारूय नासलो. ताच्या ॲक्सँटा वयल्यान तो केरळी आसूंक जाय अशें दिसलें. ताणें कवितासर्तीचो कार्यक्रम पळयला आसूंक जाय हेंय ताच्या उलोवपांतल्यान कळटालें. ताणें म्हाका "हॅव अ सीट" म्हण आपलेच मुखावयले कदेलीर बसपाक लायलो. साहित्याच्या निर्मात्यांक समाजांत केदो मान आसता हाचें दर्शन म्हाका घडटालें. म्हजी कविता म्हाका ह्या दर्शनाचो प्रसाद दिताली. पांच मिनटां भितर नागेशबाब आयलो. आनी म्हाका घेवन तो रेडिओ केंद्राचो न्यूज एडिटर विष्णू नायक हांचे कडेन गेलो. ताणें म्हजें उर्बेभरीत स्वागत केलें. म्हज्या बरपाची चवकशी केली. आपल्या चेंबरांत च्या मागयली. हें स्वागत अद्भूत आसलें. ताणें म्हाका 'बरयत राव' असो सादो दिसपी, पूण मना सावन, आशिर्वादूच दिलो अशें दिसलें.

एक जबरदस्त बळगें म्हज्यांत, म्हज्या शिरंतरांत स्पर्श करीत येता

हाची म्हाका जाणीव जायत येताली. सामको आशेल्लों. पयशिल्ल्यान हांवें ह्या शालीवाहनाक कांय पावट पळयल्लो. हांव पणजे इंस्टिट्यूट ऑफ इंस्ट्रक्शन हायस्कुलांत शिकतालों ते शाळेचे इमारतींत सकयल्या मजल्यार आनी बरोब्बर आमच्या वर्गा पोंदाच ताचो, म्हटल्यार बाकीबाबाचो, फ्लॅट आसलो. एस्. एस्. सी.च्या मराठी पाठ्यपुस्तकांत तांची गोंया संबंदान एक सुंदर कविता आसली. पूण तांची "माझ्या गोव्याच्या भूमीत" ही एक अप्रतीम कविता हांवें तांचे *समग्र कवितें* वाचलेली. ही कविता म्हाका खूब आवडलेली. ही कविता आसली मराठींतल्या बा.भ. बोरकर हांची आनी कोंकणींतल्या आमच्या बाकीबाबांची. आनी हे कवितेंतल्या "माझ्या गोव्याच्या भूमीत येते चांदणे माहेरा / ओलावल्या लोचनांनी भेटे आकाश सागरा" ह्या वळींनी तर म्हाका सामकें पिशें लायल्लें. ताचें कारणूय तशेंच आसलें. आमच्या शेजरा एक नवी व्हंकल कुळारपणाक आयल्ली. ती सुंदर आसली. म्हजे परस एक दोन वर्सांनी व्हडली आसत. तशें तें कांय तिचें कुळार नासलें. तिच्या कुळारा तिचीं आवय-बापूय कोण्ण नासलीं. ते खातीर तिका शेजान्नीन आपल्यागेर हाडलेली. ती तिची लागशिल्ली सोयरीय आसली. पूण शेजान्न तिची आपले धुवेची करची तशी अपुरबाय करताली. ती थंय म्हयनोभर उरली. तिची आनी म्हजी दाट इश्टागत जाली. ती म्हाका आपलो धाकटो भाव मानपाक लागलेली. हांतल्यानूच भावा भयणी मदलो राग मोग अश्यो गजालीय आकाराक आयल्यो. सुमार एका म्हयन्याचो काळ सामको आनंदांत गेल्लो. तिका पावपाचो दीस आयलो तेन्ना ती म्हाका वेंगेंत घेवन खूब रडली. हांवूय रडलों. अशे ते दीस, तिच्या कुळारचे दीस, म्हाकाय एक वेगळेंच देणें दिवन गेल्ले. ते म्हजे भयणीची म्हाका याद जाता तेन्ना आयजूय तिच्या पयसावपाचें दुःख लपेटून म्हज्या दोळ्यांत दुकां उबीं जातात तेन्ना म्हाका याद जातात. त्यो "माझ्या गोव्याच्या भूमीत सुखाहून गोड व्यथा / रामायणाहून थोर मूक उर्मिलेची कथा"ह्यो वळी. अशी अद्भूत कळाशी आसलेल्या प्रतिभावंता कडेन, जाका मेळपाक हांव कितलेशेच दीस जाले आंवडेतालों त्या बाकीबाबां कडेन, म्हाका नागेशबाब घेवन वयतालो.

कांय दिसां पयलीं म्हाका नागेशबाबा संबंदान कित्याक इतली ओड लागलेली, ताचें हेंच कारण आसलें काय कितें, असो एक विचार म्हजे मतींत लखलखून गेलो. कितें आसता काय मनशां मनशां संबंधांतलें नातें? एके वेगळेच जाणिवेंतल्यान म्हाका नागेशबाब उकतो जायत वयतालो. तशी आमची सारकी वळखूय आजून जावची आसली. पूण आमच्यांतलें कवितेचें तशेंच कोंकणीचें नातें मात दढ जायत येता तें म्हाका जाणवलें. जिणेंतले हे अत्यानंदी खीण नागेशबाब म्हजे खातीर उकते करीत येतालो. आमी बाकीबाबांच्या चेंबरा वटेन वयताले. तांच्या चेंबराचें दार उकतेंच आसलें. ते आपले कदेलींत बसून एका पुस्तकांत नदर रोमून बसलेले. आमचे जागीन तांणी आपली पुस्तकांतली नदर आमचेर मोखली. "यो नागेश!" अशें म्हण आमकां भितर आपयले. नागेशबाबान म्हजी वळख करून दिली. कोंकणी भाशा मंडळाच्या 'कविराज' पुरस्काराचो जैतिवंत कवी. बाकीबाबान आपली शाल सांवरीत आपलो हात म्हजे वटेन केलो. 'पाराबेंश' अशें म्हणत तांणी 'एमिसोर द गोअ'चे पुर्तुगेज पद्दतीन म्हजे अभिनंदन केलें. म्हाकाय पुर्तुगेज येता जाल्ल्यान तांची स्टायल म्हाका आवडली. ज्या मनशाक हांव केन्ना सावन मेळूंक आंवडेतालों तो असो म्हजें अभिनंदन करतालो अशें हांवें मात लेगीत चिंतूंक नासलें. बाकीबाबाची देहबोली कवितेन आपले खाशेले आयटीन कांतयल्ली कशी म्हाका दिसली. हांव इतले लागच्यान तांकां पयलेच पावट पळयतालों. एक कोंकणी मनीस जाणें आपले मराठी कवितेन मराठी मनशांच्या मनाचेर गारूड केलें त्या असामान्य प्रतिभेच्या मनशाक हांव इतले लागच्यान पळयतालों, हाचो म्हाकाच विस्वास बसनासलो. तांणी कवितेचेच आस्थेन म्हजी खबर घेतली. हांवें कितें कितें बरयलां तें जाणून घेतलें. हांव कितें करतां तेंय जाणून घेतलें.

म्हजे मतींत येतालें की हांवें कांयच ना म्हटल्यार एक म्हयनोभर *गीतार* ह्या बाकीबाबांच्या काव्यसंग्रहाचीं पारायणां केल्यांत हें तांकां सांगचें, पूण सांगलें ना. ही कितें सांगपा सारकी गजाल, असोय एक विचार मनांत येवन गेल्लो. हांव चिंततालों तें अशें म्हाका प्रत्यक्षांत मेळटा हो अणभवूच म्हाका नवो आसलो. आनी म्हाका एक गजाल समजनासली की नागेशबाबाक कांय हांवें म्हाका तांकां मेळय अशें सांगूंक नासलें. कारण काल मेरेन तो म्हाका वळखनासलो. शिवाय आमचें उलोवपूय चड वेळ जावंक नासलें. म्हणटकूच ताचे कडेन हो फावोर मागपाचो प्रस्नूच नासलो. पूण ताणें आपूण जावन ही भेट घडोवन हाडलेली. हो संयोग घडोवन हाडपी नागेशबाब सदांच म्हजे मतींत ताज्जो आसा. कविता बरोवपी आसता ताणें आपल्या बुजुर्गांची कविता वाचूंक जाय आनी सांगात्यांचीय वाचूंक जाय. आपणें आपली भास बरे तरेन आयकूंक जाय. भाशेंत संगीत आसता. भाशेंत अणभव सांठोवन दवरपाचें गुपीत आसता. आपल्याक येतल्या हेर भासांतलीय कविता जमल्यार वाचपाक जाय. अशा संदर्भांतलें उलोवप चलतालें ते मजगतीं नागेशबाब मातसो चेंबरा भायरूय वचून आयल्लो. पूण तो येवचे पयलींच थंय एक ख्रिश्चन अस्तुरी आयली. शिडशिडीत आंगाची, आंगार सोनचांफ्याची झांक आसलेली. वय जरी पन्नाशी वटेन धांवतालें तरी आंगार तरणेपणाच्यो घनदाट कुरवो राखून दवरलेली, आपल्या मोठ्ठ्या दोळ्यांतल्या तेजान तशेंच आपल्या मस्त हांसऱ्या मुखामळाक लागून सयभोंवतणच्यो नदरो अचळय आपले वटेन ओढून घेवपी ती अस्तुरसुंदरी. ती ताचे कडेन पुर्तुगेज मारपाक लागली. तिचे हात बरेच कितें उलयताले. तिची नृत्यात्म अदाकारी अणभवतना म्हाका बाकीबाबांची "करांतुनी तव खिदळत आले स्तनाकार पेले" ही "जपानी रमलाची रात्र" हे कवितेची वळ अचळय याद जाली. बाकीबाब ललना-ललीत गजालींत विरघळत वयतात तें पळयलें. पांच जायत आयल्लीं. नागेशबाबान आनी हांवें बाकीबाबांचो निरोप घेतलो. ही अस्तुरी पुर्तुगेज कार्यक्रम पळयता अशें म्हाका नागेशबाबान सांगलें. आनी आमी सामके भायर येवपाक आयले. हांव आज पणजेंतली एक पाज पळयतालों. ती बोक द् व्हाक मेरेन सकल देंवताली. हांवें नागेशबाबाक सांगलें, ही मुळसांतली नंदादीप बिल्डींग,

(पान २२ चेर)

# प्रकाशन वेवसायांतलो आमचो अणभव

– प्रभाकर भिडे

देवनागरी लिपयेंतल्या पुस्तकांचें सगल्या राज्यांनी मार्केटींग हो विशय मोट्या व्यापक स्वरुपाचो. वेळाचे मर्यादिक लागून कांय शिमो घालून हो विशय हांव हांगा मांडूंक सोदतां. त्यो मर्यादा अश्यो :

● देवनागरी लिपी धायेक भासां खातीर वापरतात. आमकां परिचयाच्यो आसात त्यो कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी संस्कृत.

● भारतांत हिंदी, मराठी वा संस्कृत भास शिकपी, वाचपी आनी बरोवपी आसलेल्या राज्यांतल्या मनशाक कोंकणी वाचूंक येत, पूण ती भास तो शिकना म्हणून ताका ती समजना.

● कर्नाटक आनी केरळ हीं दोनूय राज्यां बिगर देवनागरी, कन्नडा आनी मलयाळम भासो शिकपी/बरोवपी आनी वाचपी मनशांचीं.

● कोंकणी भास गोंयांत शिक्षणांत पयर पयर मेरेन नासली. म्हणून गोंयांतूय कोंकणी भाशेचे लेखक आनी वाचक मराठी परस कितल्याश्याच प्रमाणांत उणे.

● देवनागरी कोंकणी शिकपी, बरोवपी आनी वाचपी अशें हें आमचें एकूच गोंय. आमी गोंयांत आसात देखून आमचो विशय कोंकणी पुरतोच मर्यादीत दवरला.

आतां म्हजे तांकी प्रमाण, म्हज्यो मर्यादा मतींत दवरून हो विशय मांडटां :

कोंकणीचें साहित्य पुस्तक रुपान तयार करपाची तीव्रताय गोंयच्या लोकांक भासली ती कोंकणी बगर दुसऱ्या भासांनी आसलेलें साहित्य वाचूंक आनी बरोवंक येना म्हणून न्हय, तर हे भाशेक आपल्या निजाच्या शिंवासनाचेर बसोवपा खातीर गोंयांत जे जे यत्न जाले ताचो एक वांटो म्हणून.

जें जें साहित्य पुस्तक रुपान येता तें विकतें घेवन आपलोय हातभार हे चळवळीक लागचो अशें जण एकल्याक दिसूक लागलें. चळवळीच्या ह्या सुरवातीच्या काळांत, म्हणचे गोंय स्वतंत्र जाले उपरांत, गोंयांत वर्साक आठ ते धा पुस्तकां निर्माण जातालीं. ही संख्या धा वयल्यान बारा जाली तेन्ना कोंकणी चळवळीच्या मळार एक उमेदीचें ल्हार पातळ्ळें.

हो वेळ मेरेन पुस्तकांत केल्लो इन्वॅस्टमॅण्ट लेखकान आपलें पुस्तक प्रकाशीत करून चळवळीक लायिल्लो हातभार अशेंच जातालें. फुडें, ल्हवू ल्हवू, वाचकांच्या बळाचेर आनी चळवळींतले उमेदीचेर पुस्तकांचें प्रकाशन करून तांचे विक्रेचेर लक्ष केंद्रीत जावपाक सुरवात जाली, आनी इल्लीं इल्लीं करून अशें प्रकाशन करपी कांय आस्थापनां तयार जालीं, जशीं जाग, कुळागर, अपुरबाय, जैत, उर्बा, संजीवनी, अघनाशिनी. अशी आस्थापनां जांणी घडयलीं ते स्वता बरोवपी आसले. तांणी खासा आपली बरपावळ पुस्तक रुपान हाडलीच. ते भायर दुसऱ्यांचींय पुस्तकां प्रकाशीत केलीं.

हो वेळ मेरेन कोंकणीक थोडो वाचक जरी मेळ्ळो तरी आस्थापनांचें स्वरूप चळवळी पुरतेंच मर्यादीत आसलें.

पुस्तकांचे निर्मितीचें प्रमाण वाडपाक जाय, आनी नव्या नव्या लेखकांचीं पुस्तकां निर्माण जावपाक जाय हे मागणेन हो वेळ मेरेन नेट धरलो, आनी तांची मागणी रास्त आसलेल्यान निर्मितीक लागपी पयसो वयर उल्लेख केला तसल्या आस्थापनां कडेन मर्यादीत स्वरुपांत आसलेल्यान ही मागणी पूर्ण करप शक्य जायना जालें.

अशे परिस्थितींत गोंय सरकारान गोवा कोंकणी अकादेमीची स्थापना केली.

हे अकादेमी वांगडाच कोंकणी भाशा मंडळ, अस्मिताय प्रतिष्ठान, राजभास संचालनालय, कला आनी संस्कृती संचालनालय, हे सारक्या संस्थांनी पेंगट बांदलें आनी तरातरांचें साहित्य पुस्तक रुपान निर्माण जावपाक लागलें.

चळवळींतल्यान पुस्तक निर्मिती मेरेनची ही प्रगती आज मेरेन बरे तरेन चल्ल्या. आतां हें सगळें इतले बरे तरेन चल्लां आसतनाय पुस्तक प्रकाशीत करून तो आपलो वेवसाय म्हणून स्विकारपाक आमचें मन अजून तयार जायना. हाचें कारण, पुस्तकांचो विकरो जायना अशेंच आसूंक जाय.

वाचन संस्कृती वाडीक लागून पुस्तक विकऱ्यांतल्यान प्रकाशकाक फायदोच जावंक जाय. जे सुवातेर फायदो आसा थंय आपशींच वेवसाय उबो जाता. पुस्तकांचें मार्केटींग करून आपलो आनी कुटुंबाचो उदरनिर्वाह करतलो जाल्यार सामकें मुळाक साकून ह्या विशया कडेन वेवसायीक नदरेन पळोवंक जाय. आनी म्हणून, कांय गजाली करपाक जाय. त्यो अश्यो :

१. नवे वाचक निर्माण करपी पुस्तकांची निर्मिती, २. वाचकांची आवड तेळून ते तरेच्या पुस्तकांची निर्मणी, ३. अभ्यासक्रमाक पुरक अशें साहित्य, ४. शिक्षकां खातीर संदर्भ साहित्य, ५. तरातरांचे कोश, ६. ललीत साहित्य, ७. भुरग्यांचीं पाठ्यपुस्तकां, ८. धर्मीक, तशेंच, ९. बाल/कुमार साहित्य, १०. म्हायती आनी गिन्यान दिवपी पुस्तकां, ११. सॅल्फ हॅल्प पुस्तकां. अशें तरेकवार प्रकारांचें साहित्य निर्माण जावंक जाय.

अशें हें साहित्य मार्केट करतलो जाल्यार ताचे फाटल्यान एक भक्कम यंत्रणा आसची पडली.

ही यंत्रणा गिन्यानाची आनी सांस्कृतीक भूक भागोवपी अशी पवित्र चळवळ आसची असो विचार मनांतल्यान काडून उडोवन पुस्तकांचें प्रकाशन हो हेर वेवसायां सारकोच एक वेवसाय आसा, हें मेकळ्या मनान मान्य करूंक जाय. पुस्तकांच्या मार्केटिंगांत साहित्याची निवड, कल्पक डिझायनिंग, योग्य कागदाची निवड, उत्तम छापणावळ, सुयोग्य बायण्डींग, आकर्शक कवर, बी अश्यो बऱ्योच गजाली येतात. पुस्तकाचें मोल, विक्रेत्याचें कमिशन, विक्रेत्यांची निवड, वाहतूक वेवस्था, पॅकींग, जायरात आनी प्रसिद्दी, हेय विशय मार्केटिंगाचोच एक वांटो.

तेच भशेन, पुस्तकांची मागणी निर्माण करपी अशे सामान्यतायेन तीन घटक धरूं येतात. ते म्हणचे : १. पुस्तकांच्या गिरायकांची पुस्तकां विकतीं घेवपाची तांक. २. पुस्तकां विकतीं घेवपाची गरज, ३. पुस्तकांची सोंपेपणान उपलब्धी.

एकदां पुस्तक निर्माण जालें, म्हणटकच ताचे विक्रे खातीर गिरायक सोदप सुरू जालें. हें गिरायक तरातरांचें आसता :

१. पुस्तक विक्रेत्या कडल्यान वा प्रदर्शनांत खरेदी करपी वैयक्तीक गिरायक.

२. शाळा, कॉलेज हे सारक्या संस्थांतलीं वाचपघरां.

३. खाजगी वेवसाय संस्था वा सामाजीक संस्था.

४. प्रशासन येवजणेंतल्यान खरेदी करपी संस्था.

ते भायर, पुस्तकाचें प्रकाशन येसस्वी करपा खातीर थोडेंशें वर्गीकरण करूं येता, तें अशें :

बाजारपेठ म्हणचे सध्याचें आनी फुडलें (सद्य आनी संभाव्य) गिरायक हेरप, वाचकांचे गट करप, जशे : ल्हान भुरगीं, तरूण, प्रौढ, वृद्ध; तशेंच दादलो, बायल; आनी उच्चवर्गी, मध्यमवर्गी आनी उण्या वर्गाची आर्थीक कुवत आसलेले; धर्मीक, ललीत आनी गंभीर समिक्षात्मक वाचन करपी; तशेंच सॅल्फ हॅल्प पुस्तकांची गरज लागपी अशे वाचकांचे ल्हान ल्हान गट करूं येतात.

अश्या वेगळ्या वेगळ्या प्रकारांचें गिरायक हेरून तांचें पूर्ण समाधान जावपा खातीर वेवसायिकांनी आपल्या मनाची तयारी दवरप गरजेचें.

अश्या ह्या सगल्या ल्हान सान गजालींचो मार्केटींग ह्या उतरांत सहभाग आसलेल्यान पुस्तक निर्माण करपांत जी गुंतवणूक जाता ती खर्चीक आनी बेभरवंशाची जायना मूं? हाची काळजी प्रकाशकान घेवंक जाय. नाजाल्यार प्रकाशकांच्या घरा पुस्तकांचे गठ्ठ्यांचे गठ्ठे पडून उरूं येतात, आनी मागीर ह्या अपेसाचें खापर दुसऱ्याचे तकलेर फोडपाक आमी मेकळे. आतां सांगल्यात त्यो ल्हान सान गजाली म्हणचेच परफॅक्शना कडली बरीच लांब वाटचाल, आनी परफॅक्शन ही ल्हानसान गजाल न्हय हें आमी मतींत धरुया.

भारतांतल्या केरळ आनी बंगाल ह्या राज्यांतल्यान पुस्तकांची विक्री तडाखेबंद जाता आनी फ्रँकफर्ट बूक फॅरांत पुस्तकांच्या प्रकाशकां कडल्यान करतात तें effective marketing आयकल्यार त्यो सुरस आनी चमत्कारीक काणयो कश्यो दिसतात.

येसस्वी वेवसायीक प्रकाशक जातलो जाल्यार ताणें प्रभावी मार्केटिंगाचें शास्त्र आपणावचेंच पडटलें.

ग्लोबलायझेशनाच्या ह्या युगांत भुगोलीक शीम, भाशावाद आनी वेंचीक वाङ्मयप्रकारांचें प्रकाशन अशें बंधन उपकाराक पडपाचें ना. आपूण मार्केटिंगांत कमी पडटां हें जाणा जावनूय लोकांनी आपणाक तशें म्हणचें न्हय म्हणून कांय वेवसायीक मोट्या अभिमानान अशें सांगतात : १. आमी फकत कविता/कादंबरी/ललीत साहित्य अश्याच पुस्तकांचें प्रकाशन करतात. २. आमचीं पुस्तकां आमचेच कडेन मेळटात. ३. पयशे पावले उपरांत पुस्तक पावोवपाचें पळोवया. ४. आमच्या पुस्तकाचेर सवलत मेळना. ५. सुटयेच्या दिसांनी आमची विक्री ना. ६. पुस्तक धाडून दिवपाची वेवस्था आमचे कडेन ना. ७. जेवणाच्या मदल्या वेळार आमी पुस्तकां विकिनात. ८. खंयच्याच बुकस्टॉलाचेर आमचीं पुस्तकां आमी दवरिनात. ९. पुस्तकां आमी दुसरे कडेन दवरल्यांत, आतां तीं मेळचीं नात. आनी, हें सांगपांत आमी धन्यतायूय मानतात.

पुस्तकांची (उत्पादनांची) संख्या वाडटा तशी तशी खरेदी करप्यांची अभिरुची selective जाता, आनी (हाका लागून) पुस्तकां

खपपाचेर मर्यादा येतात हेंय आमी विसरूंक फावना.

ल्हान प्रदेश आनी कमी वाचक अश्या दोन मुद्दयांचेरूच आमचे प्रकाशक हार खातात. ते भायर, आदर्शवाद आनी नितळ वेवसाय अश्या वादांत सांपडलेलो वेवसायीक हो आपलो उदयोग मोटो करूंक पावचो ना.

मार्केटिंगाची यंत्रणा दरेका प्रकाशकान आपलेच खातीर आनी स्वतंत्रपणान उबी केली जाल्यार ती तिगप अशक्य. ती यंत्रणा economically viable जावपाची शक्यताय कमीच. तेन्ना, सांघीक यत्न आनी 'कमर्शियल एटिट्यूड' नदरे मुखार दवरून यत्न केले जाल्यार प्रकाशकांक वेवसाय करपाक फुडार आसा. आतां तर कर्नाटक आनी केरळ ह्या राज्यांतल्या कोंकणी लोकांनी आपल्या भुरग्यांक देवनागरी कोंकणी शिकोवचे खातीर तश्यो शाळाय चालू केल्यात.

हें सगळें मतींत धरीत जाल्यार पुस्तक प्रकाशनाक आंतरराज्यियूच न्हय तर आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार लेगीत मोटें येस मेळोवन हो वेवसाय करपाक जायते प्रकाशक फुडें सरतले हातूंत दुबाव नाका.

काळाचीं पावलां वळखून आतां पसुनूच 'ऑनलायन मार्केटींग', 'ई बुक्स' अश्यो नव्यो नव्यो पद्दती आपणावपाची तयारी दवरुया.

आनीक एक गजाल आमच्यांनी करूं येता ती अशी :

१. दर म्हयन्यांत प्रकाशीत जाल्ल्या सगल्या पुस्तकांची म्हायती दिवपी फोल्डर तयार करप. २. पुस्तकांची समिक्षा आसलेलें एक नियतकालीक आसप. ३. वर्सभरांत प्रकाशीत जाल्ल्या पुस्तकांची वर्गवार यादी आसप. ४. पुस्तक प्रकाशनाचे सुवाळे घडोवप. ५. पुस्तकांचेर चर्चासत्रां घडोवप. ६. प्रसंगानुसार पुस्तकांचें प्रदर्शन मांडप. ७. बऱ्या पुस्तकांक पुरस्कार दिवप. ८. वर्तमानपत्रांतली आयतारची पुरवणी पुस्तकांचेर आधारप.

इतलें सगलें सांगले उपरांत आतां आज मेरेन हांवें कितें केलां तें थोडे भितर सांगतां :

● म्हजी कारकीर्द सुरवातीच्या आठ-धा वर्सांचे धडपडी उपरांत १९७६ वर्सा सुरू जाली. गोंयांत राजहंस वितरण ही प्रकाशन संस्था आमी चलयतात. हे संस्थेन १९८१ वर्सा सावन देवनागरी, चड करून कोंकणी, पुस्तकांची निर्मिती करपाचो वावर सुरू केलो. तेन्नाच्यान पुस्तक प्रकाशन होच म्हजो व्यवसाय आनी हेंच म्हजे उपजिविकेचें साधन अशें हांवें मानून घेतलें आनी जें जें गोंयचें तें तें म्हजें अशी मोख मुखार दवरून ते दिशेन म्हज्या वावराक सुरवात केली, आनी तेन्नाच्यान 'हांव' आनी 'हांवें' हांचें जालें 'आमी', आनी 'म्हजें'चें जालें 'आमचें'.

● त्या काळार गोंयांत एक स्वाभिमानी आनी पुरुशार्थी अशी चळवळ चलताली. ही चळवळ आसली कोंकणी भाशेची. (चळवळीचोच एक भाग म्हणून जे कवी - लेखक बरयताले ते, कांय आडवाद सोडले जाल्यार, आपलीं पुस्तकां चळवळीक लागून आपुणूच प्रकाशीत करताले. पूण तांचे उपजिविकेचो स्रोत वेगळोच आसतालो आनी तो तांचे पुस्तक विक्रेचेर निंबून नासतालो.)

● सुरवातीच्या काळांत पांच स वर्सां मदीं आमी कोंकणी बालसाहित्याचीं ९० पुस्तकां तयार केलीं.

● *Let's Learn Konkani* ह्या पुस्तकाच्या स आवृत्त्यां मदल्यान बारा हजार प्रती आमी विकल्यो. *(Goan Feni Cocktails, Goan Dishes,* गोवा सांस्कृतीक, तशेच नाटक, कविता, कथा अशे जायते कोंकणी, मराठी, इंग्लीश प्रकार आमी हाताळ्ळे.)

● भुरग्यांक वाचनाची गोडी लागची म्हणून आमी बालसाहित्याचीं पुस्तकां निर्माण केलीं, तशेंच *भुरगीं आनी राजहंस* हें म्हयनाळें सुमार धा वर्सां चलयलें. ते उपरांत हें वजें आमकां जड जालें आनी एक दीस तें सकयल दवरचेंच पडलें.

● अशीं साधारणशीं पसतीस साहित्यदर्शी पुस्तकां प्रकाशीत करतकूच आमकां अशें दिसलें की निखट्या साहित्यदर्शी पुस्तकांचेरूच आमी निंबून उरले जाल्यार आमची उपजिविका चलची ना. म्हणून आमी बिगर साहित्यदर्शी प्रकारां खातीर यत्न सुरू केले. त्या काळार शिक्षणीक मळार भोवसंख्येन भुरग्यांक, तांच्या शिक्षकांक आनी पालकांक पाठ्यपुस्तकांचीं self help पुस्तकां घेवन शिकपाची आनी शिकोवपाची एके तरेची संवयूच कशी जाल्ली.

● शिक्षण मंडळान आपल्या धोरणांत बदल केले तेन्ना तेन्ना त्या बदलांचो आमच्या वेवसायाक फायदो जालो. मंडळाच्या धोरणा कडेन आमची नाळ जुळ्ळ्या. तांचें धोरण आमच्या वेवसायाक पुरक थारलां. एके भशेचें 'रिझर्वेशन' कशें. म्हणटात न्हय, "Change, thy name is progress?" आमी तें अणभवतात.

● अशें हें भावी गिरायक हेरून आमी self help पुस्तकां प्रकाशीत करूंक लागले.

● अश्या पुस्तकांचो वावर चलतालो तश्यो तश्यो शिक्षणीक मळा वयल्यो जायत्यो पुरवणी गरजो लक्षांत येवंक लागल्यो आनी त्योय भागोवपाचें काम आमी सुरू केलें.

● वांगडाच Workbook पद्दतीचीं Mastering Series नांवा खाला सामक्या मुळाव्या पांवड्याक धरून वेगळ्या वेगळ्या यत्तां खातीर पुस्तकां तयार केलीं.

● धावी आनी बारावी ह्या परिक्षांचे नदरेन शिक्षण मंडळा कडल्यान वर्सान वर्स बदल जायत आसतात. अशे बदल लक्षांत घेवन ते प्रमाण final परिक्षेची तयारी करपाचे नदरेन आमी एक Preparatory Series तयार केली.

● ते भायर, तशेच गरजेंतल्यान वेगळ्या वेगळ्या भासांचो व्याकरणीक अभ्यास घट जावचो म्हणून तेय तरेचीं पुस्तकां Language Comprehension, Grammar and Writing Skill Seriesच्या रुपान तयार केलीं.

● त्याच वांगडा, जेवणखाण, आत्मचरित्रात्मक साहित्य, कोश, बालसाहित्य, संदर्भ साहित्य, शिक्षणीक मळ आनी हेर वेगळीं वेगळीं मळां घेवन आमी तशींय पुस्तकां प्रकाशीत करूंक लागले.

● आमी 'साहित्य पसवण' नांवाची एक येवजण सुरू करून सुमार तिशेक पुस्तकां ७०० वाचकां मेरेन पावयलीं. हातूंत आमकां पयश्यांचे नदरेन फायदो जालो ना तरी पुस्तकां खात्रीन खपपाची आमी तजवीज करून दवरली. तातूंत लेखकाक आपलीं पुस्तकां वाचका मेरेन पावोवन तांच्यो प्रतिक्रिया आयकुपाक मेळ्ळ्यो आनी एके तरेचें समाधान मेळ्ळें.

● पूण पुस्तकांचें मार्केटींग हें निखटें लेखकांक आत्मीक समाधान दिवपा पुरतेंच नासता. तें तांकां आनी प्रकाशकांक आर्थीक फायदो मेळोवन दिवपा खातीर आसता. (अशे तरेचें मार्केटींग करपाचें आमी येवजिलें तेन्ना अशें दिसलें की फकत साहित्यीक पुस्तकांची निर्मिती करून आमचो चरितार्थ चलपाचो ना. तो चलयतलो जाल्यार विंगड विंगड विशयां वयल्या पुस्तकांची निर्मिती करपाची गरज आसा म्हणपाचें होलमलें, आनी आमी ते नदरेन वावर करपाचें थारायलें.)

● खंयचेय भाशेची त्या मळा वयली साधनसुविधेची गरज जी कोशाच्या रुपान आसता ती आमी *कोंकणी-इंग्लीश, इंग्लीश-कोंकणी* कोश तयार करून भागयली.

● *अभ्यासकोश* नांवाचो आठ आंगांचे विवीधतायेन भरिल्लो असो २२०० पानांचो व्याकरणाच्या आनी शुद्धलेखनाच्या नेमां सयत एक गडगंज *कोंकणी-कोंकणी* कोश तयार करून कोंकणी विश्वांत आमी एक मोटें योगदान दिलें अशें जाणकार म्हणटात. ह्या कोशाक लागून भाशेचें प्रमाणीकरण जावपाची वाट मेकळी जाल्या अशेंय तांचें मत.

● दर एका संवसारीक जोडप्याक चुकना असो एक विशय म्हणजे कामजिवन. ह्या विशयाचेर डॉ. विठ्ठल प्रभू ह्या अणभवी डॉक्टरान बरयिल्लें *निरामय कामजिवन* हें पुस्तक प्रकाशीत करून गोंयचे जनतेक तें आमी शंबर रुपयांक भेटयलां. हें ४१५ पानांचें पुस्तक पुठ्ठ्याचे बांदणेचें आसून तें आमचें हजारावें प्रकाशन.

● हो वेळ मेरेन आमच्या प्रकाशन वेवसायाक तीस वर्सां जावन गेल्लीं. हो वेवसाय सोडल्यार आमकां दुसरें कितेंच करपाक जमना. सारिडॉनाचे जायरातींत जशें ''सीर्फ एक, सीर्फ एक'' अशें म्हणटात तसोच आमचो सीर्फ एक, सीर्फ एक प्रकाशन वेवसाय!

● आमचे जिणेभराचे तपश्चर्येंतल्यान पुस्तकांच्यो कांय माळो तयार जाल्यो. तांतल्या धा माळां मदल्यान सादारणशीं दोनशीं पुस्तकां आमी दर वर्सा पुनरप्रकाशीत करतात.

| | | |
|---|---|---|
| १. | Sangati Series | - 150 titles |
| २. | Bhandar Series | - 50 titles |
| ३. | Preparatory Series | - 32 titles |
| ४. | Goan Recipies Series | - 7 titles |
| ५. | Work book Series | - 15 titles |
| ६. | Language learning and Dictionaries Series | - 8 titles |
| ७. | Research Series | - 15 titles |
| ८. | Language Formation Series | - 16 titles |
| ९. | Smart Kids Series | - 15 titles |
| १०. | Textbook Series | - 10 titles |

● अशीं हीं सगलीं पुस्तकां मेळून आयज मेरेन कोंकणी, मराठी, इंग्लीश, पोर्तुगीज, फ्रेंच, हिन्दी अश्या भासांनी ११०० पुस्तकां आमी उजवाडा हाडलीं.

● आमचीं प्रकाशनां गोंयभर सुमार १५० पुस्तक विक्रेत्यां कडेन वर्सूयभर मेळटात. ते भायर, आमच्या rajhauns.com हे सायटीचेर तीं पळोवंक मेळटात. आनी flipkart.com हांगाय तीं विक्रे खातीर उपलब्ध आसात. तांच्या ह्या पालवा खातीर विक्रेत्यांचें एक संमेलन करून वर्साक एकदां विशेश विक्री केल्ल्या विक्रेत्यांचो भोवमान करून आमी सगल्यांक शाबासकी दितात.

● आमचो वावर असोच मुखार चलपाचो आसा. संशोधनाचेर आदारिल्लीं पुस्तकां, गोंयच्या फुडाऱ्यांचीं चरित्रां, गोंयच्या इतिहासा संबंदांतलीं पुस्तकां, भुरग्यां खातीर राष्ट्रीय फुडाऱ्यांचीं चरित्रां, विज्ञानीक आनी सामान्य ज्ञानाचीं पुस्तकां मुखार प्रकाशीत करपाची आमची येवजण आसा.

● ह्या प्रयत्नांतल्यान आमची उपजिविका चलताच, पूण ते भायर, आमचे राजहंस वितरण हे संस्थेंत आज वीस जाण वावर करून आपलीय उपजिविका चलयतात.

हें हांगा मुद्दम सांगपाचें कारण अशें :

● आमी गोंयचें प्रकाशक जाल्ल्यान ह्या वेवसायाक एक उद्योग म्हणून गोंय सरकारान मान्यताय दिवची म्हणून हे आदीं आमी कांय यत्न केल्ले. पूण कांयच बदल घडलो ना.

● प्रकाशन वेवसायाक असो उद्देगीक दर्जो भारत सरकारान १९९५त दिलो. आनी आपआपल्या राज्यांनी तसो तो दिवचो काय ना हें त्या त्या राज्याचेर सोंपयलें. दुर्देवान आमच्या गोंय राज्यान अजून मेरेन तसो तो दिवंक ना. पूण आतां ह्या नव्या मनोहारी परिवर्तनांत हें घडून येवं येता असो आमकां विश्वास आसा. अशें घडलें म्हणटकूच राजहंस वितरण संस्थेंत जे अठरा लोक काम करतात. तांकां त्या कायदया प्रमाण सगळ्यो सुविधा मेळूंक पावतल्यो. इतलेंच न्हय तर आनिकूय प्रकाशक वेवसाय म्हणून ह्या उदयोगांत देंवतले.

● गोवा बोर्ड ऑफ एज्युकेशन, गोवा युनिवर्सिटी, गोंय सरकार, गोंयची प्रजा हें सगलें गोंया पुरतेंच मर्यादीत आसा, तसोच आमचो वेवसाय गोंय राज्या पुरतोच मर्यादीत आसा. गोंय आमची पुण्यभूंय, जल्मभूंय आनी कर्मभुंयूय बी.

● अश्या ह्या आमच्या स्वाभिमानी प्रकाशनांच्या विकऱ्यांतल्यान आज आमी स्वावलंबी आसात आनी समाधानीय आसात.

जंय जंय कोंकणी मनीस थंय थंय देवनागरी वाचक अशी मोख मुखार दवरल्यार फुडाराक ह्या वेवसायांत क्रांती घडूं येता.

आमचे सारक्या एका गांवठी प्रकाशकाक आयच्या ह्या राष्ट्रीय पातळे वयल्या परिसंवादांत वांटो घेवन आमचे विचार मांडपाक संद दिली म्हणून जाळवणदारांचे, आनी आमचें म्हणणें तुमी थंडसाणेन आयकलें म्हणून तुमचेय आमी उपकारी आसात.

देव बरें करूं.

*(१९ आनी २० जानेवारी २०१३ ह्या दिसांनी गोंय विद्यापीठांत 'नागरी लिपि परिषद', नवी दिल्ली, अखील भारतीय कोंकणी परिशद, आनी कोंकणी विभाग, गोंय विद्यापीठ हांच्या जोड पालवान घडोवन हाडिल्ल्या 'अखिल भारतीय नागरी लिपी संमेलनां'त मांडिल्लो पेपर.)*



संपर्क: ०८३२-२२०३२०/२२३२१७७

# फुडाराची जपणूक : आवयचो उलो

रजनी भेंब्रे

आज समाजांत नदर भोंवडायत थंय निर्शेणी आनी आत्मकेंद्रीत विचार दिश्टी पडूंक लागतात.

जण एकलो फुडाराचे चिंतेंत घुसपल्लो दिसता.फुडाराच्या भंयान ग्रासिल्लोय दिसता. पुराय जिवीत ताका तणावान भरिल्लें दिसता.

उद्‌देगीकरणान हिसबा भायली उदरगत सादल्या. सगळ्यो सुखसोयी आमच्या दारांत हाडून तेंकयल्यात. पूण तरी मनीस समाधानी आसा व्हय? ना.

हाचें कारण, मानसीक अस्वस्थताय. आज दुयेंसा पसून सोडणूक करून घेवचे पासत तरेकवार वखदां आनी साधनां उपलब्ध जाल्यांत.

पूण तेच बरोबर भ्रश्टाचार, लांच-लुचपत, बलात्कार, दरोडे, खून, आतंकवाद, घटस्फोट सारकीं, समाजाची जडण-घडणूच विसकटावन उडोवपी, तरातरांचीं दुयेंसां फुडें सरपाक लागल्यांत.

पुरातन काळा पसून भारताक आपली अशी आगळी-वेगळी संस्कृताय आशिल्ली. खरें म्हणल्यार होच भारताचो खरो ठेवो. एक काळ असो आसलो, भारतीय समाजाची बुन्याद जगाक देखदिणी थारताली. सगळें जग भारताचें अनुकरण करचेलो यत्न करतालें. भारतीय संस्कृतायेंत त्याग, प्रेम, मनमेकळेपण आसतालें. घरांतल्या कर्त्या दादल्यांची करारी वृत्ती आनी तेच बरोबर कर्तव्यदक्षताय आशिल्ले सावळेंत घरांतलीं ल्हान तशीं व्हड मनशां भंया विरयत वावुरतालीं. कर्त्या दादल्यांक आपल्या कर्तुत्वाचो अहंकार आसतालो तरी लेगीत तांच्या वागपांत माया आनी समजिकाय आसताली.

आपलें घर, नातीं, शेजाऱ्यां कडले संबंद, गांवपण हें सगळें कशें राखचें हाचे धडे ल्हान पिरायेचेर चिरूंक मेळटाले. माणकुल्यांचो दीस आजयेचे आनी आज्याचे मांडयेर सुरू जातालो. तेच प्रमाण, आदल्या तेंपार टी.वी. माध्यम आनी चॅनल नाशिल्ल्यान जाणटेल्यांनी अणभवी उतरांनी सांगिल्ल्यो देखदिण्यो काणयो आयकून मनरिजवण जाताली आनी मनाचेर सासणाचो परिणामूय जातालो.

हें फाटलें चित्र कितल्या वेगान बदल्लें! हांव, बायल, एक भुरगें, हे विचारसरणेन केन्ना मूळ धरलें ते समजलें लेगीत ना.

एकल्याच्या पगारान भागना, समाजांत मना प्रमाण वावरूंक मेळना म्हणून घरांतली बायल नोकरे निमतान घरा भायर सरली, आनी हांगा सावन समाजाची चाल बदल्ली.

घोव-बायल नोकरेच्यान पुरो जावन घरा येतकच केन्ना केन्ना हांव-तूं-हांव-तूं जावन घर्शण निर्माण जावंक लागलें. हे वादावादींत सानुलीं भरडून वचपाक लागलीं. तांच्या कंवळ्या मनार वेगळे वेगळे परिणाम जावपाक लागले.

सैमाच्या नेमा प्रमाण आज मेरेन भुरगें आवयच्या पोटांत जल्म घेता. आवयच्या दुदार तें

व्हड जाता. सगळ्यांत पयलीं तें आवयक वळखता. सान पिरायेर आवयूच ताचें सर्वस्व आसता. आवयचो मोग हो सानुल्यांचो जल्माचो हक आनी तो ताका चडांत चड मेळूंक जाय. ताचो सर्वांगीण विकास जावपाक हो मोग खूब गरजेचो.

जे प्रमाण भुरगें हें घराब्याचें घटक तेच प्रमाण तें आमच्या देशाचो खांबो, फुडाराचो नागरीक, जाणटेल्यांच्या भुजांर रावून पर्जळीत फुडार तेळपी. अश्या सानुल्या कडेन केन्नाच दुर्लक्ष जावंक फावना. फुडाराची जपणूक करप म्हळ्यार सानुलीं सुदृढ, संस्कारीत आनी देशाभिमान आशिल्लीं आसूंक जाय.

माणकुल्यां खातीर आवय घरकाराचे बरोबरीन धडपडटा, त्रास करून नोकरी करता, आनी माणकुल्यांक सगळे तरेचीं सोंपेपणां मेळोवन दिवचेलो यत्न करता. अशें करतनाच जायते फावटीं भुरगें तांचें भुरगेपण शेणोवन बसता.

आमकां दिसता, आमी धडपडटात तीं भुरग्यांचो फुडार बरो जावचो म्हूण. तांकां कसलेच त्रास जावचे न्हय आनी तांची जीण सुखाची जावची, म्हूण. हांगाच आवय व्हडली चूक करता.

भुरगें अनुकरणप्रिय आसता. एक ते पांच वर्सां मजगतीं तें चडांत चड आत्मसात करता. आनी तेच संस्कारक्षम पिरायेर पालक ह्या नात्यान आवय ताचे म्हऱ्यांत चड उरना तेन्ना, आनी नाका आशिल्ल्या गजालींचो ह्या कंवळ्या मनाच्या कंप्युटराचेर सासणाचो प्रभाव पडून भुरगें गोंदळूंक शकता.

भुरगें ल्हान आसतनाच ताका वास्तवाची जाणविकाय दिवन वाडोवप भोव गरजेचें. आसा ते परिस्थितींतल्यान आपणें कशें वागप हाची भुरग्यांक जाण दिवंक जाय. स्वावलंबनाचो मार्ग आपणावपाक तांकां मुखार काडूंक जाय.

जण एकल्याक आपल्या भुरग्याचें बरें जावचें अशेंच दिसता जाल्यार फुडल्या गजालींचेर पुरायेन लक्ष दिवया :

१.घरांत भुरग्यां हुजीर वादावादी जावूंक जायना.

२. पालकांचें आपल्या भुरग्यां कडेन इश्टागतीचें नातें आसूंक जाय.

३. भुरग्यान शिस्तीन वागचें अशें दिसता जाल्यार आपणें पयलीं शिस्तीन चलूंक जाय.

४. भुरग्याचे प्रत्येक गजाली कडेन लक्ष दिवंक जाय.

५. मनाचेर कसलोय ताण आसलो जाल्यार ताचो राग भुरग्यांचेर काडूंक जायना.

६. रागाचेर नियंत्रण आसूंक जाय; सिगार ओडप, सोरो पियेवप असल्या व्यसनांचेर ताबो आसूंक जाय.

७. नोकरी नासप, पयश्यांची अडचण आसप, रावपाचो जागो ल्हान आसप हाचोय परिणाम भुरग्यांच्या मनाचेर जावन ताचें शिक्षणा कडेन दुर्लक्ष जाता.

८. बरें-वायट हाची जाणविकाय भुरग्याक सतत करून दिवंक जाय.

९. अमकी एक गजाल बरी न्हय आनी भुरगें ती करूंक सोदता आसत जाल्यार ठामपणान 'ना' म्हणूंक येवंक जाय.

प्रसार माध्यमाचे वायट परिणाम भुरग्याचे वाडीचेर जावं येतात. देखून -

१. भुरग्यांनी थारायिल्ल्या वेळांतूच टी.वी. पळोवचो असो नेम घालूंक जाय. आपणेंय तो पाळूंक जाय.

२. कार्यावळ भुरग्यां वांगडा पळोवन तिचेर चर्चा करूंक जाय.

३. फकत टी.वी. कार्यावळी वरवींच मनरिजवण जायना तर खेळप, पासयेक वचप, वाचप, संगीत आयकप हाणेंय मनरिजवण जाता हें भुरग्यांक पटोवन दिवंक जाय.

४. हिंसाचाराचें प्रदर्शन घडोवपी व्हिडिओ गेम्स घरांत हाडच्यो न्हय. कारण, पिराय वाडटा तशी ही गेम भुरग्याक चड चड शावूंक लागता. फुडें ताच्या हातांतल्यान अशे तरेच्यो घडणुको घडपाचीय शक्यताय आसता.

९. भुरग्याचो चडांत चड कल शिक्षण, खेळ आनी व्यायामा कडेन केंद्रीत करून तांच्या मनांत राष्ट्रीय एकात्मतेची भावना निर्माण जाली जाल्यार फुडाराचे जपणुकेची चिंताच उरचिना.



संपर्कः ९८२२४८६९५५

तेरावी खिस्त

## म्हजो रवीन्द्र सांगात

दिलीप बोरकार

# मोरारजी ताठ कण्याचो मनीस!

"राजकारणांत चाणक्यनीत खूब गरजेची!" अशें रवीन्द्रबाबान म्हाका म्हणिल्लें खरें! पूण हो चाणक्य कोण, ताचो राजकारणा कडेन कसलो संबंध, हाची म्हाका मात्तूय कल्पना नाशिल्ली. ताचें हांवें कांय वाचुंकूय नाशिल्लें. शिकता आसतना, तो अर्थशास्त्रज्ञ, तो कूटनिती पासत प्रसिद्ध आसा अशें बरेंच कितें आयकल्लें, आनी अर्थशास्त्र हो म्हजो विशय नाशिल्ल्यान हांवें ताचेर केन्ना लक्ष दिवंक नाशिल्लें. ताची वळख म्हाका रवीन्द्रबाब करून दिताले. चाणक्याचें राजकारणा कडेन कितें नातें आसा हें समजून घेवंक जाय अशें म्हाका दिसलें, आनी तें रवीन्द्रबाबांकूच विचारप अशेंय थारायलें!

पूण गोंयची वेंचणूक तोंडार पाविल्ली. म्हजे सारक्या कडेन उलोवपाक लेगीत रवीन्द्रबाबां कडेन उसरपत नाशिल्ली म्हळ्यार जाता. म्हाकाय चाणक्य समजून घेवपाची ताकतीक आसा अशेंय कांय नाशिल्लें. राजकारण हो म्हजो विशयूच नाशिल्लो. राजकारण ही घाण, तातूंत बऱ्या मनशांनी पडप न्हय; समाजसेवा, चळवळी जेरूल करच्यो, मनशाचें समाजा खातीर योगदान आसचें, हे विचार म्हजे तकलेंत थीर जाल्ले. जें राजकारण म्हज्या वांट्याक आयिल्लें तें सगळें रवीन्द्रबाबां वेले म्हजे भक्तीक लागून. तेच पासत म्हजें राजकी वर्तुळांत वावरप जातालें. हांवें पुरायेन राजकारणांत वचपाचें थारायल्लें जाल्यार रवीन्द्रबाब सांगताले तशें, म्हाका चाणक्यनितीचो अभ्यास करचोच पडपाचो. सद्या म्हजी ती गरज अशें म्हाका दिसूंक नाशिल्लें. तरी, "प्रजेचे हीतसंबंध शासना प़रस व्हडले आसूंक जाय, उच्च समाज ध्येय हातासतलो जाल्यार आपणें गरज तेन्ना फाटीं सरूंक जाय, आनी त्या खिणाक जो कोण योग्य दिसता ताका मुखार दवरूंक जाय" अशें चाणक्य सांगता म्हणपाचें केन्ना तरी उलयतना रवीन्द्रबाबान सांगिल्लें. आनी, हाचे परस चड कितें जाणा जावन घेवपाची संदूय म्हाका मेळूंक नाशिल्ली. म्हजे कडेन भरपूर वेळ आशिल्लो, पूण रवीन्द्रबाबान पांयांक चाकां बांदिल्लीं (अशें हांव न्हय, तेच म्हणी). गोंयची विधानसभा वेंचणूक सामकी तोंडार पाविल्ली. "जनता पक्षाचें सरकार गोंयांत येतलें जाल्यार बऱ्या लोकांक घेवन तांकां पक्षान उमेदवारी दिवंक जाय, आनी आमी वावुरप्यांनी तांचे पासत वावरून तांकां वेंचून हाडूंक जाय" अशें हेरांक सांगुनूच रवीन्द्रबाब ओगे रावऽ नाशिल्ले तर आपूण खासा धांवपळ करताले.

विधानसभा वेंचणुकेच्या प्रचारा खातीर प्रधानमंत्री मोरारजी देसायां पसून मृणाल गोरे, राजनारायण, वरणसिंग, दुर्गा भागवत, बी कोण कोण व्हडले व्हडले फुडारी येतले म्हणपाचें म्हज्या कानार पडटालें.

म्हाका दुर्गा भागवत, मृणाल गोरे बी हांकां मेळपाची चड उमळशीक आशिल्ली. मोरारजी देसाय प्रधानमंत्री जाल्ले तरी म्हाका तांचे विशीं चड आपलेपण नाशिल्लेंच! म्हाका तो मनीस आवडय बी नाशिल्लो. ताचें जाल्लें अशें -

गोंय सुटके झुजांत वांटो घेतिल्ले मोहन रानडे हे प्रदीर्घ काळा उपरांत पुर्तुगालचे बंदखणींतल्यान सुटका जातकच गोंयांत आयिल्ले. तांचें आमगेर यो वच आशिल्लें. तांणी *सतीचे वाण* हें आपलें आत्मचरित्र बरयिल्लें तें हांवें वाचिल्लें. रवीन्द्रबाबांनीय तें वाचिल्लें आनी तांकां तें भोवच आवडिल्लें. तशें तांणी मोहन रानडेंक पत्र बरोवन कळयिल्लें म्हणपाचें मोहन रानडें कडल्यानूच म्हाका कळिल्लें. तेन्ना म्हजी वळख रवीन्द्रबाबां कडेन जावंक नाशिल्ली. पूण हांव तांचें नांव आयकून जाणां आशिल्लों. मराठीवाद्यांचें आयकून जायते लोक रवीन्द्रबाब आनी तांचे कोंकणी चळवळीक गाळी घालताले, असले कांय भोवजन समाजांतले लोक आमगेरूय येताले आनी तांच्या तोंडांतल्यान हांवें रवीन्द्रबाबांचें नांव आयकल्लें. त्याच रवीन्द्रबाबान एक मराठी पुस्तक वाचून, तें बरोवपी मनशाक पत्र बरोवन तुस्त केल्या हें आयकून म्हाका अजापूय जाल्लें. रवीन्द्र केळेकार हे मराठीचे दुस्मान असोय म्हजो समज आशिल्लो.

मोहन रानडेंच्या *सतीचे वाण* ह्या पुस्तकांत महाराष्ट्राचे घरमंत्री आशिल्ल्या मोरारजी देसाय हांचे विशीं म्हाका बरें वाचूंक मेळूंक नाशिल्लें. मोरारजीभायन गोंय सुटके खातीर वावुरिल्ल्या, आनी जो म्हजो हिरो आशिल्लो त्या मोहन रानडेंक बरेच खेपे पिडला हें हांवें वाचिल्लें. मोहन रानडेंक पिडला तो म्हजो दुस्मान अशी म्हजी तेन्ना धारणा आसप सभावीक. मोहन रानडेंचें पुस्तक रवीन्द्रबाबांक आवडलां म्हणटकच मोहन रानडे हांणी त्या पुस्तकांत जीं मतां मांडल्यांत वो जे विचार उकतायल्यात तांचे कडेन रवीन्द्रबाब सहमत आसतलेच असो म्हजो समज जाल्लो. तेच पासत मोरारजी देसाय रवीन्द्रबाबांकूय आवडचे नात अशें म्हाका दिशिल्लें! आतां तेच मोरारजी देसाय देशाचे प्रधानमंत्री जाल्ले आनी गोंयचे विधानसभा वेंचणुकेच्या प्रचारा खातीर गोंयांत येवपाचे आशिल्ले. म्हापश्यां तांची जाहीर सभा दवरिल्ली. तेच सभेच्या आयोजनाची आनी तांच्या येवकाराची तयारी चलताली. म्हाका त्या आयोजनांत, मोरारजी देसायांच्या येवकारांत बी स्वारस्य नाशिल्लें. माधव धोंड, राजेंद्र आमोणकार, सिरिल पाशेको बी म्हाका मुखार काडटाले खरे, पूण मना पसून म्हाका कांयच करीन दिसऽ नाशिल्लें. हांव ह्या आयोजना पसून अलिप्त सो रावतालों!

एक दीस रवीन्द्रबाबांनीच म्हाका विचारलें, "मोरारजीभायक मेळटलो मरे?"

हांव हांसलों आनी ओगीच रावलों. म्हज्या तोंडार रवीन्द्रबाबांक उत्सूकताय दिसली ना जावये! म्हज्या तोंडा कडेन ते पळयत आशिल्ले. रवीन्द्रबाबांची ही स्टायल म्हाका आवडटाली. आपल्या कदेलाचेर बसून,एका पांयार दुसरो पांय उडोवन, कदेलाच्या हातांचेर आपले दोनूय हातांचे कोंपर तेंकोवन, हाताचीं आखाण्या कडलीं दोनूय बोटां जुळोवन तीं आपल्या नाका कडेन तेंकोवन, मिश्कील नदरेन मुखार बशिल्ल्या मनशाच्या दोळ्यांत पळोवप! मुखावेल्या मनशा कडल्यान कितें तरी आयकून घेवपाची अपेक्षा बाळगप!

"म्हाका व्हडलोसो इंटरेस्ट ना."

म्हजे हे जापेन रवीन्द्रबाब तटास जाले. म्हाका पळयत रावले. तांची मिश्कील नदर आनिकूय मिश्कील जाली. तोंडार हयन्हयसो हांसो हाडिल्ले वरी करीत तांणी विचारलें, "कित्याक? ते मूत पियेतात म्हूण?"

म्हाका ही नविदाद आशिल्ली. मोरारजी सारक्या येद्या व्हडल्या मनशा विशीं, देशाच्या प्रधानमंत्र्यां विशीं, रवीन्द्रबाबान अशें म्हणप? आमी तर कोणाकूय वायट उतरां दिवपा खातीर, 'मूत पिये रे', 'मुततां तुजेर' बी अशें म्हणटात. हांवें तरी तशें आयकल्लें. कुडींतलीं वायट द्रव्यां मुतांतल्यान भायर वतात इतलेंच म्हजें गिन्यान आशिल्लें. रवीन्द्रबाब तर सांगताले, मोरारजी मूत पितात म्हूण!

"तो मूत पिता? आपलेंच?"

"हय. ताका शिवाम्बू चिकित्सा म्हणटात."

अशें म्हणून रवीन्द्रबाबान हे शिवाम्बू चिकित्से विशीं म्हाका सांगलें. तिचो पातसो बी घरचो न्हय अशें बरेंच कितें सांगलें. मूत पिवपाचे कल्पनेनूच म्हाका शिरशिरो सो आयलो! पूण हांव ओगी बसून सगळें आयकतालों. मोरारजीची आंगाची कात कितली तिकतिकीत, तो कितलो सडसडीत बी सगळें रवीन्द्रबाब बारीकसाणीन सांगताले.

"येता गोंयांत तो, संद मेळटा जाल्यार मेळपाचें!"

रवीन्द्रबाबान अशें म्हणूं नाका, हांवें मोरारजी विशींचें म्हजें मत तांकां सांगलें. मोहन रानडेंच्या पुस्तकाचो उल्लेख केलो. रवीन्द्रबाब म्हज्या तोंडा कडेन पळयत आशिल्ले.

"हांवें वाचलां तें पुस्तक. त्या पुस्तकाची तोखणाय करून रानडेंक हांवें पत्रूय बरयिल्लें. पूण तो विशय वेगळो. म्हाकाय मोरारजी देसायांचें त्या वेळा वयलें धोरण आवडूंक ना. ताका वेगळे राजकीय संदर्भ आशिल्ले. पूण मोरारजी खूब व्हडलो मनीस!"

हांव रवीन्द्रबाबांक मेळूंक येवचे आदीं सावन रवीन्द्रबाबांच्या मनांत मोरारजीं विशीं विचार चलताले जावंक जाय. ते तांचेर बरयताले वो तांच्या येवकाराक आपणें कितें करचें हाचेर विचार करताले काय कितें तें खबर ना. (बरयताले जावंक जाय. उपरांत तांणी बरयिल्लो मोरारजी देसायां वेलो एक विस्तृत लेख रोखडोच हांवें वाचलो. मोरारजींक मेळ्ळों, तांचे वांगडा कांय वेळ रावलों तेन्ना त्या लेखाचो म्हाका उपेगूय जालो.) पूण आयच्या दिसाचो विशय मोरारजी देसाय म्हणपाची म्हाका कल्पना आयिल्ली. हांव थंय पावचे आदीं भोवतेक गोदूबाय आनी रवीन्द्रबाब त्याच विशयाचेर चर्चा करतालीं जावंक जाय. कित्याक, गोदूबाय एक खेपे रांदचे कुडींतल्यान भायर येवन कोण आयला काय म्हूण पळोवन गेल्लें तेन्ना मोरारजीभाय हो असो काय कितें तरी म्हणून गेल्लें आनी उपरांत च्या घेवन आयिल्लें तेन्नाय दोन मिनटां बसून ताणें मोरारजीभाय विशीं एक यादूय सांगिल्ली.

"पूण मोरारजीभाय सदांच वादग्रस्त कित्याक थारल्यात तर?"

"सत्तेच्या राजकारणांत बऱ्या मनशांक सदांच वादांत घुसपावप

आनी ताका वादग्रस्त थारावप हेंच चलता न्हय संवसारांत?''

''पूण तांचीं विधानां पळयत जाल्यार ते सामकी हट्टी कशे दिसतात!''

''तसो तांचो समज करून दिवपी लोक आमच्या देशांत उणे नात. मोरारजीभाय कोल्ली, सोरोबंदी, भांगराचेर नियंत्रण हाडपाचें घेवन बशिल्लो 'फॅडिस्ट' अशेंच तांचें चित्र विरोधक रंगयतात. पूण ते तशे न्हय. हें तांचें भायलें रूप. पणसा सारकें कांटयाळें, भितरल्यान ते त्यागी, चारित्र्यवान, ताठ कण्याचे आनी देखुनूच गोड. रसाळ घऱ्या सारके. सत्य उलोवपाक ते केन्ना फाटींफुडें सरचे नात!

''अशें आसत जाल्यार ते आपली बाजू लोकां मुखार कित्याक मांडिनात?''

''तांकां राजकारणांत रावनूय दावपेंच खेळपाक कळनात. कितेंय जाल्यार उपकारता. कितें जाता तें जावं, पूण सत्य सोडचों ना हो तांचो सभाव. हाकाच लागून लोकांक ते हट्टी दिसतात.''

''नेहरू आनी तांचें चडशें जुळनाशिल्लें. नेहरूकय ते खंय आवडटाले?''

''तशें म्हणप समा न्हय. जवाहरलालांक जांचो जांचो भंय दिसला तांचे तांचे कडेन ते अशेच आडमुठेपणान वागल्यात. मोरारजीभाई प्रधानमंत्री जावचे न्हय अशें तांकांय दिसतालें.''

''अशें कित्याक?''

''नेहरू उपरांत प्रधानमंत्रीपदाचे गादयेर बसपाचो सगळ्यांत व्हडलो अधिकार मोरारजीभाईचोच आशिल्लो. सिनियॉरिटीचे नदरेन आनी कार्यक्षमतेचे नदरेनूय!''

''नेहरूंक आपले विशीं अशें दिसता, हाची कल्पना मोरारजींक नाशिल्ली?''

''पुराय आशिल्ली. कामराज प्लॅनांत तांकां आसपावन घेवपा फाटलें कारण तेंच आशिल्लें. आपूण उपनेत्याचे पदवेर पावचो न्हय म्हूण जवाहरलालजीन खेळिल्लो हो डाव अशें तांच्या तोंडारूच तांकां सांगपी हो मोरारजीभाई.''

''इंदिरा गांधी प्रधानमंत्री जाल्यो तेन्ना ते ओगी रावले?''

''इंदिराजींक प्रधानमंत्रीपद दिवचें न्हय म्हूण तांणी खूब विरोध केलो. आपणाक तें पद मेळचें म्हूण न्हय. इंदिरा गांधी त्या पदाक फावऽ शी ना म्हूण...''

रवीन्द्रबाबांच्या ह्या उलोवपांतल्यान म्हजे मुखार नेहरू ते इंदिरा गांधी हांगा मेरेनचो देशाच्या राजकारणाचो एक आलेख उबो राविल्लो! मोरारजी देसाई इंदिरा गांधींचें सरकार कित्याक नाका म्हणटाले तेंय थोडें भोव कळिल्लें. ह्या सगळ्या उलोवण्याची, भासाभासेची म्हाका मुखार येवपी वेंचणुके वेळार खूब मजत जावपा सारकी आशिल्ली.

म्हाका हांगा एक गजाल कळून आयिल्ली, खंयचेंय गिन्यान जर मनांत घट बरें सांठोवन दवरतलो जाल्यार तें वाचचे परस कोणेंय रसाळ वाणीन सांगत जाल्यार चड बरें कळटा आनी सासणाचें यादींत उरता. रवीन्द्रबाबां भितर ती कळाशी आशिल्ली. ताचो लाव हांवें कितले मेरेन घेवप हें म्हजेर आशिल्लें.

हांव मोरारजी देसायांच्या येवकाराचे तयारेक लागिल्लों.

**(चलता).**



संपर्कः ९८२२१३६८८५

*(पान १३ वयल्यान)*

हातूंत म्हजो मराठी प्रोफसोर एस्. एस्. नाडकर्णी रावता. हांव हांगा पावलां. नागेशबाब हांगासर आपली सायकल दवरतालो. ती ताणें घेतली आनी आमी सायकली वयल्यान पणजे तात्याचे ब्राम्हणेंत पावले. सुमार पंचेचाळीस वर्सां पयलींची ही फामाद ब्राम्हणी. तेन्ना तिचे मुखार आनीक एक ब्राम्हणी आसली. तीय तेन्नाची फामाद ब्राम्हणी. तिचें नांव आसले ''काफे सेंत्राल''. तात्यागेर भितर सरचे पयलीं थंय या अशे विचार आयल्ले. पूण आमी गेले तात्यागेर. थंय आमी टॉमाट भाजी, पाव, च्या मारली. च्या घेतां घेतां हांवें ताका बाकीबाबांचो *गीतार* हो संग्रह म्हाका खूब आवडलो हें सांगलें. ह्या संग्रहाक महाराष्ट्र राज्य पुरस्कार फावो जाल्लो. नागेशबाबा कडेन हांवें एक खंत काडली की कोंकणींत मराठी सारके साहित्यीक कार्यक्रम जायनात. ते जावंक जाय अशी म्हजी मनशाय हांवें तांचे कडेन उकतायली. करया, करया अशें ताणें म्हटलें. ते आतां आमीच करूंक जाय अशेंय म्हटलें. बील फारीक करून आमी भायर आयले.

नागेशबाब तेन्ना थंयच प्रोग्रेस हायस्कुला कडें रावतालो. निरोप घेवचे पयलीं ताणें म्हाका एक खूब महत्वाची खबर सांगली. ''युववाणींत सादर करपा खातीर धायेक मिनटां खातीर लागतल्यो कोंकणी कविता घेवन यो''अशें म्हाका ताणें सांगलें. हांवें ताका हाडटां म्हूण सांगलें आनी आमी एकामेकांचो निरोप घेतलो. नागेश रामदास करमली हांच्या सांगातांतलो हो म्हजो पयलोच दीस.

नागेशबाब वतकच म्हाका खूब एकटें दिसलें. म्हजे जिणेंत हो दीस कितलींशींच वैचारीक स्थित्यंतरां घडोवन हाडपी आसलो. म्हाका कितल्योश्योच नव्यो गजाली मेळोवन दिवपी आसलो. आनी एक अखखो नागेशबाब मेळोवन दिवपी दीस आसलो. इल्ली इल्ली करून मनांतली एकटें दिसपाची भावना विरून गेली, कारण आतां हांव कितल्याश्याच जाणांच्या काळजांत पावल्लों.

५.२.२०१३ ह्या दिसा आमचो भोवमानेस्त इश्ट, स्वातंत्र्य सैनीक, कवी, रेडियो आर्टिस्ट नागेश करमली हांकां अंयशीं वर्सां पूर्ण जाल्यांत. आपली आठ दसकांची जीण तांणी अन्यायाचो विरोध करीत, जिणे वांगडा झगडतूच काडल्या. हे खातीर तांची अणभवसमृद्ध जीण, अन्यायाचें निवारण समर्थपणान करपाक सदांच उर्बेभरीत उरची म्हण तांकां अश्टदशक-पुर्तीच्या समयार खूब खूब परबीं!



संपर्कः ९४२०६८८४६१

सातवी खिस्त

# ‘मीर्ग’तल्यान

रवीन्द्र केळेकार

वर्स १ : आंक १४

१ मार्च १९५४

## पावसाचें अर्थशास्त्र

देशाक जास्तींत जास्त सुखी करपाचें आसत जाल्यार देशाच्या जाळवणदारांनी ताचे अर्थनितीची अशी मांडणी करूंक जाय की संपत्ती एका जाग्यार वो दोग-चौग जाणां कडेन एकठांय जावन थंय सांठून उरचे बदला ती जाता तितली चड घोळूंक जाय.

आधुनीक अर्थनितीचो हो म्हत्वाचो सिद्धांत चलणुकेंत हाडपाक खादी कितली उपकारा पडटा हें फुडल्या हिसपा वेल्यान कळटलें -

एका रुपयाची खादी घेत जाल्यार तांतले कोणाक कितले मेळटात हाचो हिशेब खादी बोर्डान पयर उजवाडाक हाडला. एका रुपयांतले खंय साडे पांच आणे सूत कांतपी मनशाक मेळटात. अडेच आणे कापूस रोवप्याक, एक आणो धुनाई करपी मनशाक, चार आणे विणपी मनशाक, उरिल्ले तीन आणे खादी हाडपा-व्हरपाचो खर्च, गुदांव भाडें, खादी भांडारांतल्या कार्यकर्त्यांचो पगार बी म्हूण खर्च जाताले. हो खर्च आतां खादी बोर्डान आपणाल्या आंगार घेतला, आनी लोकांक रुपया फाटल्यान तीन आण्यांची सूट दवरल्या.

खादीची जायरात करिनात, मदले दलाल नात, दुकानदाराचो वो उत्पादकाचो ‘फायदो’ म्हूण वेगळो ना. खादीन शोशण मुळांतल्यानूच ना जाता. गिरणी कडेन खादीची तुलना केली जाल्यार खंयची अर्थनीत चड मनीसपणाची हें स्पश्ट दिसले बगर रावपाचें ना.

पावसांत जशें एक काव्य आसा तशेंच पावसाचें म्हूण एक अर्थशास्त्रूय आसा. धबधब्याचें काव्य आनी अर्थशास्त्र वेगळे तरेचें. धबधब्या पसून वीज तयार करूं येत, शक्ती निर्माण करूं येत. पूण धर्तरी पांचवीचार करप पावसाकूच शक्य आसा. पावसाच्या दर एका थेंब्यान मातयेचो कणानकण पावन जाता.

खादीचें अर्थशात्र हें पावसाच्या अर्थशास्त्रा सारकें. गिरणीचें अर्थशास्त्र धबधब्याचें. गिरणीन लुगट राशींनी तयार जायत. पूण हिंदुस्तानाचे जनतेंत जिवन ओतप खादीकूच शक्य आसा.

## एकूच उपाय

ब्रिटिशां मुखार अहिंसा उपकारा पडली. स्टॅलिना मुखार ती चलत आसली? ब्रिटिशांनी कांयच न्हय जाल्यार इल्ली तरी नागरीक स्वतंत्रताय दिल्ली. रशिये सारकेल्या देशांत जंय लोकांचे नागरीक हक्कूच काडून घेतल्यात थंय अहिंसा उपकारा पडत?

ह्या प्रस्नाक जाप दिवचे आदीं दुसरो एक प्रस्न विचारुया. स्टॅलिना सारकेल्याचे हुकूमशाही मुखार

हिंसा तरी उपकारा पडत? हुकूमशाही म्हळ्यारूच संगठीत हिंसा. तितली वो ताच्याकूय चड हिंसा केळोवंक हुकूमशाहींत लोकांक संद मेळत? ना, जाल्यार कमी हिंसेन संगठीत हिंसा ना करूं येत?

हिंसेचें तंत्र आनी इतिहास पळेत जाल्यार प्रतिस्पर्ध्याचेर जैत जोडपाक ताचे परसूय चड हिंसा केळोवची पडटा. हिंसेक चड हिंसेनूच नमोवप शक्य आसा. कमी हिंसेन प्रतिस्पर्धी हारना. पूण हैराण जाता. आनी संगठीत हिंसा जेन्ना हैराण जाता तेन्ना ती गरीब दुबळे जनतेचेर चड जुलूम जबरदस्ती करता.

दुसरे वशीन पळेत जाल्यार हिंसक युद्धांत जो जैत जोडटा ताचो पक्ष न्यायाचो वो शौर्याचो आसता अशेंय म्हणूं येना. फाटल्या म्हाझुजांत जपानी लोक हारले. ते कमी शूर आसले म्हूण न्हय! पूण अमेरिकेचे संहार करपाचे शक्ती मुखार तांच्या शौर्याचें कितेंच चल्लें ना, म्हूण. ते भायर, न्याय आनी अन्याय थारावपाचें काम हिंसे सारकेल्या आंधळ्या न्यायाधिशा कडेन सोंपोवप हाचे सारकीं पिशेपणां दुसरीं नात.

हे भशेन सगळ्या दृश्टींनी पळेत जाल्यार हिंसा हो मार्गूच न्हय. मार्ग आसा तो एकूच - अहिंसेचो. जे लोक शूर आसात, जांचो पक्ष न्यायाचो आसा आनी जे अगतीक म्हूण रावपाचे नासून उत्कटतायेन खऱ्यांनीच तर झीज सोंसूंक तयार आसात ते अहिंसक प्रतिकाराचें तत्वज्ञान समजून घेत जाल्यार स्टॅलिनाकूच न्हय तर केद्याय व्हडल्या हुकूमशहाक नमयले बगर रावचे नात.

हुकूमशाहीक नमोवपाक अहिंसे सारको सोंपो, व्यवहारी, लागींचो आनी पुरुषार्थी मार्ग दुसरो ना. हुकूमशाहींत अहिंसा उपकारा पडटा. इतलेंच न्हय तर तिचे मुखार अहिंसा हो एकूच उपाय आसा.

### वर्स १ : आंक १५ (१५ मार्च १९५४)
### त्रिशतांवबाबांक भोव नम्रतायेन

भौ. त्रिशतांवबाब ब्रागांस कून्य मुंबयच्यान *आझाद गोंय* नांवाचें कोंकणी भाशेंत (रोमी लिपयेंत) एक पत्र उजवाडायतात. ताच्या २७ फेब्रेराच्या आंकांत तांणी ''जेन्ना भेड्डेय आयकतले'' हो आमचो संपादकीय लेख उद्धृत केला आनी ताचेर आपणालें मत्तूय दिलां.

मीर्गाक ते ''बरे देखीचें आनी आमच्या लोकां फुडें बरे विचार घालपी पत्र'' म्हूण मानतात. आनी आमचे कडेन मतभेद व्यक्त करुनूय ते त्या लेखाक ''चड ऊंच पांवड्यार रावन बरयल्लो'' लेख म्हणटात. ''पूण आमचो सगळोच लोक इतल्या ऊंच पांवड्यार रावन तो वाचतीत काय ना, आनी तो तांकां सारको समजत काय ना, काय ताचो वेगळोच कितें परिणाम जायत'' हाचो तांकां इल्लो दुबाव येता. पूण ते म्हणटात, ''आमच्या लोकांच्या भेजुडपणा विशीं ह्या बरप्यान जें कितें सांगलां तें आमच्या लोकांनी थंड तकलेन आनी रागार जायनासताना चिंतूंक जाय आनी तें तांकां खरें दिसता जाल्यार ते प्रमाण हाचे फुडें तरी तांणी आपली छाती चड घट करूंक जाय आनी आपली मान सारकी ऊंच दवरूंक जाय.''

तांकां आमचें एक सांगणें बरोबर लागना तें हें की आमी पुर्तुगालाचें सरकार आनी हेर देशांचीं सरकारां एकाच पांवड्यार दवरतात आनी मागीर हेरां देशांची रीत आनी नीत पुर्तुगेज सरकाराक लागू करतात. आनी एक फावट अशें मानून फुडें गेलो म्हणटकूच खंय सगळें आरतें परतें जाता. पयले सुवातेर खंय ''पुर्तुगेज सरकार फासीझमाचेर आधारिल्लें सरकार. ताची राजकी नीत आनी ते नितीचेर आधारिल्ली रीत अगळीच आनी आथवीच. हेर देशांक आनी सरकारांक ती रुचय ना आनी पचय ना.'' ते म्हणटात, ''आज पंचवीस वसां जालीं, पुर्तुगालांत हो फासिश्त राजकारभार चलता आनी तांकां आतां ताची संवय जाल्या. तांचें अंतस्कर्ण तशें तयार जालां. Habito e' segunda natureza (संवय ही दुसरी नातुरेझ) अशी म्हणणी आसा. ते प्रमाण फिरंगी राजकारभाऱ्यांक फासिश्त चिंतपाची आनी कारभाराची इतली संवय जाल्या की देमोक्रासी, लोकांचे हक, लोकमताची पर्वा बी तांकां फकाण दिसता. आनी राजकारभार चलयतात त्या सगळ्यांत उंचले तेंगशे वेले लोकूच जर असले रितीन आनी नितीन चलूंक लागले तर मागीर हेर सगळे तांचेर देपेन्देर जावन आसात ते ल्हान व्हड येंप्रेगाद तेच रिती-नितीन शिकून तयार जाले आनी ताची तांकां संवय जावन मनीसपणाक ते विसरले तर अजाप दिसपाची गरज ना.''

सरकार म्हूण खंय कोण एक मनीस ना. ''ती एक संस्था, एक यंत्र. जे रितीन तें यंत्र चलोवचें थारायलां तेच रितीन ताचीं सगळीं चाकां आनी हेर भाग काम करतात.'' देखून फिरंगी अधिकारी ल्हान आसात ते वायश्ट करतात आनी उंचले बरे, असो खोटो समज कोणेंच करून घेवंक फावना खंय.

फुडें त्रिशतांवबाब गोंयांत लिपचोरयांनी झेंडे लावपी लोकांच्या कृत्याचें समर्थन करतात. ते म्हणटात,''उकतेपणान तें काम कोणूय करीत जाल्यार ताचे फुडें आमची मान बागवतलीच. असले मनीस गोंयांत थोडे, हें खरें. पूण आज गोंयांत जे तरेची राजवट चलता तें विसरनासताना आमी चिंतूंक लागल्यार आमकां दिसतलें की लिपून रावन बावटे लावंक गोंयांतूय जालें तरी सगळ्यांच्यानीच जायना. मागीर जे थोडेच मनीस हीं असलीं कामां करूंक फुडें सरतात ते 'भेजूड'? तांकां आमी impotent म्हणटलेत?'' गोंयांत बावटे लावपाचें वो हेर असलीं नॅशनलिस्ट कामां लिपून करतात ते सगळे भिवकुरे, अशें समजुपाची व्हड चूक आनी अन्याय खंय आमी करूंक फावोना. कित्याक तर ते हीं कामां उकतेपणीं करून सांपडटीत आनी पुलिसेंत पावतीत तर तांकां पडटा तो मारपेट सोंसपाचो न्हय. नॅशनलिस्ट जालोय तरी तो जायतें, आनी जायतो वेळ सोंशीत. पूण ताच्यान दितात ती ख्यास्त सगळीच आनी सदांच सोंसूंक जायना. आनी मागीर आपल्याचेर कंट्रोल उरना जावन तोंड उकतें जाता आनी नाका ती म्हायती पुलिसेक मेळटा. हे पसत खंय व्हड छाती आसुनूय गोंयांत असलीं कामां उकतेपणीं करूंक जायनात आनी कार्यकर्त्यांक 'अंडरग्राउंड' रावन काम करचें लागता. आनी तेंय आपले खातीर न्हय तर ध्येया पसतूच. लिपून काम करतात ते सगळे भिवकुरे न्हय खंय.

त्रिशतांवबाब आनिकूय फुडें बरयतात - ''कोणेंय मिलितारान वो सरकारी अधिकाऱ्यान कितेंय वायट काम केल्यार वयल्यो व्हड

आवतोरिदादी तांची फावो ती वासपूस आनी नीत करतात ही गोंयांत तरी फट खबर. इतली ऊंच नीत त्या सरकारा लागीं बिलकूल ना. एका सिवील आद्मिनिस्त्रादोरान व्हड आडनीत केली जाल्यार ताचेर त्रिबुनालार केश करूंक पुर्तुगेज सरकार आवतोरिझासांव दिना. कित्याक, तर ताचे आड ते आवतोरिदादींची 'प्रतिश्ठा' येता. म्हळ्यार, अधिकाऱ्यांनी गोंयांत किर्तेय केल्यार जाता. पूण लोकां फुडें तांची केस मांडूंक सरकार दिना. आतां सांगात, सरकार बरें आनी धाकटुले येंप्रेगादूच वायट काय कितें तें! आनी मिलितारांचेर आज परियान ज्यो केशी जाल्यात तांचें कितें जालें? कांयच ना.''

गोंयचे स्वतंत्रतायेच्या संग्रामांतल्या एका दिग्गजाचीं ही मत्तां. म्हूण गोवच म्हत्वाचीं. गौ. त्रिश्तांवबाबां विशीं आमच्या मनांत उपाट आदर भरला. देखून तांच्या मत्ता आड वतना आमकां खूब वायट दिसता.

ल्हान जावं, व्हड जावं, आडनीत करतल्या सगळ्यांक ख्यास्त मेळूंक जाय. पूण आमी पुर्तुगेज सरकाराच्या कृत्यांचें समर्थन करपाचो ठेको घेवंक ना. त्या सरकारा कडेन पळोवपाची आमची एक विशिश्ट नदर आसा. त्रिश्तांवबाब म्हणटात की आमी ताका आनी हेर देशांतल्या सरकारांक एकाच पांवड्यार दवरतात ही व्हडली चूक करतात म्हूण, आनी ही चूक करतात म्हणुनूच आमकां सगळें आरतें परतें दिसता म्हूण.

आमी पुर्तुगेज सरकाराक सगळ्यांत बरें म्हणूंक ना. ताका जरी 'फॅसिस्ट' म्हूण लेबल लायलें तरी तें आमकां तथाकथीत 'डिमोक्रॅटिक' सरकारां परस वायटूय दिसना आनी बरेंय दिसना. आज 'डिमॉक्रसी'चो ठेको घेवन बशिल्लीं ब्रिटन, फ्रांस आनी अमेरिकेचीं सरकारां घेवया. तीं पुर्तुगाला परस खंयचे दृश्टीन श्रेश्ठ, हें आमकां समजना. मलाया, केनिया, इंडो-चायना बी देशांनी हांचें जें रूप प्रगट जालां तें खंयच्याय अत्यंत दुश्ट सरकारा परस कमी जुलमी अशें आमकां दिसना.

आमी पुर्तुगेजांक यंत्रां सारके, मनीसपण नाशिल्ले, लोखणा वरी घट्ट, मानुंकूय तयार नात. पुर्तुगेज जनता हेर खंयच्याय देशांतले जनते वरी बरी आनी वायट, वेगळे तरेची न्हय. शिवाय, खंयचेंय सरकार हिंसेन कितलेंय संगठीत जालें तरी तें चलोवपी जे मेरेन 'मनीस' आसतले ते मेरेन तांणी आपणाक कितलेय घट्ट करपाचो यत्न केलो तरूय तांकां यश मेळपाचें ना. लोखण लेगीत फावो ते तरेन तापयल्यार विरघळटा, हें मनीस प्राचीन काळा सावन अनुभवीत आयला. मनीस कितलोय जालो तरी मनिसूच. हिरण्यकशिपून हिंसा कमी संगठीत करूंक नासली! पूण ताकांय ल्हान प्रल्हादा फुडें हार खावची पडली. पुर्तुगेज सरकार हें हिरण्यकशिपू सारकें सैतानी सरकार म्हूण घडये मानलें तर ताका एखादया प्रल्हादाचें आहवान एक दीस स्विकारचेंच पडटलें हातूंत आमकां इल्लोय दुबाव दिसना. आनी तेन्ना तें हारतलेंय बी. आज तें सैतानी आसुनूय उरलां अशें मानलें, तर ताचो अर्थ इतलोच करूं येत की प्रल्हादा सारके यत्न थंय अजून जावंक नात. ते असंभाव्य अशें आमकां दिसना. असंभाव्य मानप म्हळ्यार इतिहासाच्या निर्वाळ्या आड वचप अशें आमकां दिसता.

वासनेची तृप्ती फावो ते तरेन करूंक मेळ्ळी ना म्हणटकच मनीस ती आड वाटेन करून घेता. पुर्तुगेज सत्ते आड आमकां किर्तेय करीन दिसता, पूण करपाची तांक ना आनी परिस्थितीय ना; म्हणटकूच हिन्दुस्तानाचो राष्ट्रीय झेंडो लावन सत्तेक खुबळावन सूख अणभवप हें आड वाटेन वासनेची तृप्ती करपा सारकें, ध्येयवाद्याच्या चारित्र्याक काळिमो लावपी कृत्य. ध्येयवादाक उंचाये वेल्यान सकल उडोवपी हीण मार्ग हो. देखून गोंयांत जे झेंडे लायतात तांणी आपणाक आनी त्या झेंड्याक सकल उडोवचें न्हय, हे सदित्सेन आमी टिका केल्ली. तांकां उणाक मानूंक न्हय, पूण उणाकपणा पसून तांकां कुशीक काडूंक आनी - तांकां एकादलें पटचेंय ना - निर्वीर्य आनी अनैतीक कर्मां पसून तांकां परावृत्त करूंक. आमची कल्पना आसली की हे झेंडे लोक स्वयंस्फुर्तीन लायतात. पूण त्रिश्तांवबाबांच्या बरपा वेल्यान दिसता की हे प्रवृत्तीक स्वातंत्र्य-संग्रामांतल्या दिग्गजांचो आशिर्वाद आसा!

हें पळोवन आमकां खऱ्यांनीच तर चड अजाप आनी दुःख जाता. स्वातंत्र्याची चळवळ आड वाटेन चलता अशें आमकां दिसता. हे वाटेन यश मेळपाची आशाच ना. हार आनी निर्शेणी - frustration - मात निश्चीत थंय दवरलां.

मनीस सकल पडिल्लो आसत जाल्यार ताका वयर रावन 'वयर सर' म्हळें म्हूण तो वयर सरना. तो जंय आसा थंय व्हरून निसण दवरूंक जाय. म्हणटकूच तो आपशींच वयर सरता अशें धर्मशास्त्र म्हणटा. स्वातंत्र्याचे चळवळींत अत्यंत म्हत्वाचें म्हळ्यार, लोकांत स्वातंत्र्य जोडपा खातीर प्रतिकारशक्त निर्माण करप. ती आज गोंयांत दिसना जाल्यार ताचीं दोनूच कारणां आसूं येतात. एक म्हळ्यार, लोकांक स्वातंत्र्य नाका. अशें आसत जाल्यार तांचेर तें लादपांत अर्थ कितें? ना जाल्यार [दुसरें,] लोकांक भंयान वेंगांत घेतल्यात. हीं दोन कारणां पयस केले बगर स्वातंत्र्याचे चळवळीक केन्नाच यश मेळपाचें ना. फकत स्वातंत्र्य कोणेंय 'घेवन दिल्यार'.

त्रिश्तांवबाब आनी तांचे सारके बाकीचे स्वातंत्र्य कोणेंय 'घेवन दिवचें' म्हूण वावुरतात अशें आमकां दिसना. ते स्वातंत्र्य 'जोडूंक' सोदतात. अशें जाल्यार भुमीगत चळवळ चुकल्या अशें आमकां म्हणचें आसा. भुमीगत चळवळीन भंय निखालूस उणो जायना. परतो तो वाडटा. आनी भंय उणो करून जनतेचें फाटबळ जोडले बगर खंयचीच चळवळ सफळ जायना. भंया सारको सांसर्गीक रोग दुसरो ना.

साधू लोकांची एक खबर आसा. एक साधू गांवा भायर एके खोपटेंत रावतालो. एक दीस ताणें कॉलेरा-भैरवीक गांवा वशीन वतना पळेली. साधून तिका विचारलें, ''तूं खंय वता? कितल्या लोकांचो संहार करतली?''

भैरवीन सांगलें, ''म्हाका भूक लागल्या. हांव फकत दोनशीं मनीस खातलीं.'' रोखडोच गांवांत कॉलेरा सुरू जालो. सुमार दोनेक हजार लोक मेलो. आनी ते भायर जायतो हांतुणार पडलो. भैरवी परतून येतना साधून विचारलें, ''तूं दोनशीं लोक खावंक गेल्ली, ते दोन हजार कशे मारले?'' तिणें सांगलें, ''ना, हांवें फकत दोनशींच

(पान २८ चेर)

सविसावी खिस्त

# दिसपटी

शांताराम आमोणकार

## व्हडपण मनशा फाटल्यान येवंक जाय...

**मुंबय, १२.११.१९५०**

बरोवपाचें उरुंकूच ना आतां. बरोवप बरोवप म्हळ्यार तरी कितें? क्लार्काचे जिणेंत आसता पयलीं कितें, आनी तातूंतलें बरोवपा सारकें कितलें आसता?

**मुंबय, २४.११.१९५०**

आयच्यान एक ठाम निश्चय केलो - जीण सुधरप. सगळें निटायेर घालप. ते प्रमाणें चलपाची मनाची आनी शरिराची तयारी इतले दीस करतालों. आतां हय ना उरलें ना... आज पर्यंत गेलां त्या मार्गान न्हय, तर ज्या मार्गान हांव आतां मेरेन वचपाक सोदतां (मातसो सो माडयलाय हो मार्ग केन्ना केन्नाय), त्या मार्गान वचप. त्या मार्गार उरन काय ना होच एक प्रस्न!

दुसरो प्रस्न हो : लग्न जावप काय ना? एक कितेंय तरी आजूच निश्चीत थारावंक जाय. जावपाचें नासलें जाल्यार आतां जें करतां तेंच करपाक हरकत ना. बरें वायट आपले आपल्याक. स्वातंत्र्यान चल्ल्यार तितलेंशें वायट कांय न्हय! आतां, जर लग्न जावपाचें आसलें जाल्यार फकाणां उपयोग नात, काकुळट म्हणटात तें उतर ना, सगळें जाग्यार आयचे आज पडूंक जाय. फाल्यां पसून न्हय. आजूय न्हय, आतां! प्रकृती कडेन लक्ष दिवप, पयलें काम... मुख्य भांडवल तें! पेण्टींग करपाच्या कामाक लागप. ना जाल्यार सोडून तरी दिवप. आपलीच जायना, फसवणूक कित्याक? पयशांचो मार्ग सामकेच तरेन सोडोवप... कशेय तरेन हीं तीन कामां मना पसून हातांत घेवपाक जाय... प्रकृती, पयसो आनी प्रगती. ह्या तीन कामां बगर चवथ्या कामांत लक्षूच घालप ना.

**८.१२.१९५०. शुक्रार**

बाबान म्हाका वेता आसतना मुद्दम सांगिल्लें, शुक्रार दीस कांयच म्हत्वाचें करूं नाका, तो दीस तुजो घात वार म्हूण. पणून नशिबान त्याच दिसा खुबश्यो खबरी करच्यो पडल्यात म्हाका. म्हजो आवडीचो वार तो. भाणस्तारी भजीं मेळपाचो दीस तोच एक. मुंबयंत येवन पेण्टिंगाक आरंभ त्याच दिसा जालो. त्रास खूब काडचे पडले खरे, पणून ते बरबरच दिप्लॉम मेळ्ळो. ताचो खरेलो उपयोग जावपाचें अजून चिन्न दिसना म्हणा. पणून तांतले तातूंत तिळ्याक आधार तरी जावन पडलो. चोराची लंगोटी म्हणून म्हणटात तश्यांतली खबर. आज नाबराक फोन केलो. ताणें सांगलें, "केस सबमीट केल्या. ह्या आठ दिसांत निकाल लागतलो. तुका शिकूंक लागपाक हरकत ना. जाल्ल्यांत जमा तें." पळोवया, आतां पर्यंतच्या सगळ्या खबरीं भाशेन ह्याय 'जाल्ल्यांत जमा'ची वाट लागता जाल्यार.

**मुंबय, ९.१२.१९५०**

रातचो पयलींच जीव पुरो जावन गेल्लो आसता. खंयचें बरोवप आनी कसलें येवजप?

पयश्यांचे बाबतींत अजुनूय स्वतंत्रकाय ना...

वड उलोवपाचें बंद जालें तो एक आपशींच फायदो जालो.

...हाता कडेन पयशे आसल्यार अघळपघळ खर्च आशिल्लो. आतां पयसोच ना म्हणटकच निटायेर येतलें सगळें... पयसो पयसो करून दुसऱ्या कडेन हात पसरपाचो वेळ येवंक नाका. सगळ्या इतल्याचो अणभव घेवन जालो. मरता आसतना पसून दुसऱ्याची मदत घेवपाची इत्सा ना. आवय-बापायची पर्यंत. पणून अशेच मनीस सगळ्यांच्या हातांत पडटात. नशीब! आपले कडल्यान प्रयत्न मात जायत रावंक जाय.

...परिस्थितींतल्यान मनशाक शिक्षण मेळटा. पुस्तकां वाचून सगळ्याच मनशांक शिक्षण मेळना. तें घेवपाची पूर्ण अक्कल म्हाका तरी ना. Seul le silence est grand!

नाबरान सांगलां, परिक्षेची तयारी करपाक हरकत ना म्हणून. ताचेर म्हजो विस्वास. पणून म्हजेर ना. म्हणचे, म्हज्या नशिबाचेर ना. म्हजे बाबतींत केन्नाच खंयचीच खबर सरळ जावंक ना. कारण, ती खबर क्षुद्र, क्षुल्लक नासता... मेळून भानगडी. आनी कटकटी. तातूंत म्हाका एक म्हजोच स्वत:चो म्हणून मार्ग आसा. ताका ideology म्हणटात जाल्यार खबर ना म्हाका. 'कशेय तरेन वचून खंयूय पावप' व्हडलेशें जमना म्हाका.

म्हाका खूबदां दिसता, ज्या मार्गान हांवें आतां पर्यंत पावलां उडयल्यांत त्या निर्धाराक तोंड दिवपा सारकें व्हड मन आनी बुद्द म्हजे कडेन आसा. पणून ना ती प्रकृती. ती जर बरी उरत तर हांव त्याच मार्गा वयल्यान प्रयोग करतलों म्हणून आसां.

व्हडपण मनशा फाटल्यान येवंक जाय, मनशान ताचे फाटल्यान लागपांत हाशील कितें?

'नाव सोनाबाई, हाती कथलाचा वाळा' म्हणटात तश्यांतली खबर म्हजी. नांवान शांताराम, 'शांत'य न्हय, 'राम'य न्हय. मागीर दोनूय एकाच वेळार कशीं आसतलीं?

**१०.१२.१९५० आयतार**

बरें आनी वायट हातूंत वांटपणां करपाक हांव तयार ना. वायट तें सदांसर्वकाळ वायटूच... ह्या मनशांचेर राग करपांत अर्थ ना. सुवार्था वाटेन ओडटात ते . आनी सगळेच कडेन हें चल्लां, मागीर तांचोच दोश कितें? हांवें सामकें थारायलां... सामको नाका फुडलो मार्ग सदांच बरो.

**१४.१२.१९५० बिरेस्तार**

"Is everything that does not bring immediate returns (in money) useless?" "In money" म्हणटात तो गॅटेचो प्रस्न. म्हजो न्हय. म्हजो तेय परस म्हत्वाचो : "Is everything that does not bring returns useless?" हो प्रस्न म्हजो.

"I am sorry indeed to hear again the word 'fate' from the lips of a young man who is just at an age when one is accustomed to construe his strong inclinations as the will of higher beings." अशी परिस्थिती जाता खरी. ती आयकुपाक बरी दिसूं जावं वायट.

"The character of a man is his fate" - Heraclitus. सुंदर उतरां म्हणचे परस खरीं उतरां म्हळ्यार बरें दिसतलें. Wisdom!

इतल्यो खबरी दुसरे भाशेंत आनी दुसऱ्याचे भाशेंत आसात खऱ्यो. पणून म्हाका तांचें वेगळेंच म्हत्व. एक तर म्हाका त्यो पटल्यात, ना जाल्यार म्हाकाय तशेंच दिसलां खूबदां. नाजाल्यार, ती एक नवीदाद आनी म्हणून तातूंतल्या खरेपणान जावं सौंदर्यान अजाप दिसलां. तीं उतरां म्हज्या हाता कडेन आसचीं शीं दिसल्यांत म्हणून बरोवन काडल्यांत, इतलेंच. पूण खूबदां म्हजेच तकलेंतल्यो खबरी म्हाका व्हडल्या मनशांच्या आयुश्यांत मेळ्ळ्यात.

**१५.१२.१९५०. शुक्रार**

वल्लभभाई पटेल अकस्मात गेलो. सोड आशिल्ली आज. सांजवेळचो चार वरांचेर दादरच्यान ग्रँट रोड उतरून कॅम्प्स कॉर्नर कडेन बस-ऊठ करून सांजची पावणे स वरांचेर मरणयात्रा पळोवंक मेळ्ळी. पंडीत नेहरू तकली सकयल घालून चलतालो फुडेंच. सगळ्या इतल्या लोकांत तोच एक मनीस. नापोलियांवान एकदां गेटेक पळेले बरबर म्हळें खय, "Here is a man!" म्हणून. तशेंच ह्या मनशाचे बाबतींत. कदाचीत गॅटे परसूय तो व्हड आसुये. आसाच! मनीस ह्या तीन अक्षरां परस दुसरी व्हड पदवी मनशाक कसली आसत? तितल्याय साठ एक हजार मनशांत तोच उठून दिसतालो. मिलिटरीच्या मनशां भितरूच तोय चलतालो. सगळ्यांत फुडेंच. ताचे बरबर हातभर फाटल्यान वल्लभ पंत. ताचे फाटल्यान थंडपणान सरदार पटेलांक मिलिटरी ओडून व्हरताली. सामको न्हिदिल्ले बशेन दिसतालो. म्हाका तरी तो मेला म्हणून सांगतात म्हणुनूच मेलोसो दिसलो. ताचे फाटल्यान मोटारींतल्यान खेर आनी एक जाणटेलो. एक गुजराती बायल-मनीस धवें पातळ न्हेसून उबी आशिल्ली. फाटल्यान मिलिटरी आनी लोक अस्ताव्यस्त धांवताले. खूब गर्दी!

आज अकरा-साडे अकरांक ऑफीस सुटलें. मागीर कितले दीस लांबणेर पडिल्लें काम हातांत घेतलें. पयलीं कूड धुवन घेतली चक्क...

खूब दिसांची फोटोग्राफीची हौस भागोवपाची तजवीज करीत हाडल्या. साधूंक मात जाय. सद्‌दां काम करपा खातीर मनाची तयारी करीत हाडल्या. ए.एम्.चो निकाल लागीं हाडला. नाबरान उपकार केल्यात. ना मेळ्ळ्यार पर्यंत ताचेर बावड्याचेर शीण ना, परत ताचे उपकारूच... सगळें मेकळें जाल्ल्यांत जमा जालां. आतां वाचप खूब उणें करप. आनीक एक वर्स तरी. फुडलो माय पर्यंत पेण्टिंगा खातीर खटपट करप. केलिना जाल्यार... म्हजो दोश आनी नशीब!

**२४.१२.१९५०. शेनवार**

आज एका वर्सान बराबर ए एम्चो रेझुल्ताद जालो. सकाळीं

अकस्मात ध्यानामनांत नासतना एक फोन आयलो. कोणाचो म्हणून पळेल्यार नाबराचो, "Government has given you special permission for Arts Master's Examination" म्हूण सांगून. ताणें मुद्दाम म्हजो फोन नंबर सोदून काडून आपणें खासा फोन करचो हाचें अजाप जालें म्हाका. म्हळें, तुमकां येवन मेळूंक जाय... नाबराक लागून एक खबर मेकळी जाली. परत, पास तरी जावंक जाय. एका सारकें शिकपाक आतां मात पसून हरकत ना अशेंय सांगलें ताणें... कश्टाचें सार्थक जालें.

**२५.१२.१९५०. सोमार**

डायरी बरोवपाक बशिल्लों जाल्यार मदींच शेजाऱ्याक च्याक आपयलो. आतां च्या जाली आनी ते बरबरूच रात आयली. साडे धा जालीं.

आज एक लचांड केलें. दोन Still Life आनी, डोंबाऱ्याचे एके बायलेक भियेत भियेत मॉडेलाक आपयली. ती येतकच दुसरे एकेक आपयली. ही काळी खरी, पणून बरी दिसताली. दोगांकूय चार चार आणे दिले. काकुळटेन आनीक एक एक आणो दिलो. तांकां दुसरीच खबर दिसल्या जावये. मंगळार दिसा येतां म्हणून सांगून मदींच पसार! येतूय परतीं तीं पयश्यांक लागून. एकलेचो घोव खंय सोरोप घेवन भोंवता. एकलेचो भाव खंय शिकयता - मास्तर! म्हळें, तांकां विचारून येयात... चार आण्यांनी तांकां फटोवंक पळेतालों, तांणी म्हाकाच फटयलो. ओगीच भानगड जायत म्हणून भंय दिसलो. नुकसान आनी फुकटची बेअब्रू! धाडस म्हणटात तें आमचे कडल्यान केन्ना जातलें? प्रत्येक कडेन भंय!

ताका ए एम्ची खबर बरोवंक जाय आशिल्ली. पणून परिक्षा जातकच मोन्यांनी घरा वचून कळयल्ली बरी...

नेवग्यान कॅमेरा रिझर्व केलो खंय. बरो आसुये. पणून ताका special film attachment आसा तो म्हारग. आठ-धा रुपया पडटात खंय फिल्माक. हेरव्हीं, तीन रुपयांक बारा. ना जाल्यार प्लेट्सूय वापरपाक मेळटात. पोर्ट्रेट लॅन्स आसा ताका... ताचो एक फोटो याद म्हणून तरी आसपाक जाय... आईचो आनी बाबाचो काडूंक जाय! हांव आर्तिस्ता म्हणून तो तरी बावड्यांक फायदो. मामा, मावश्यो सगळ्यांचे फोटो काडून तांकां फुकटांत दिवपाची म्हजी व्हडली स्कीम आसा...

**३१.१२.१९५०. आयतार**

अकरा वरां जाल्यांत आत्तां. आनीक एका वरान १९५१ वर्स उजवाडटलें. ह्या सगळ्या वर्सांत कांय एक करपाक जमलेंना. केओस जाल्लो तो जाग्यार घालपाचो यथाशक्ती यत्न केलो. प्रकृती, शिकप, दिवप-घेवप सगळें नॉर्मालाचेर हाडपाचो शक्य तितलो प्रयत्न केलो... एएम्चें जमलें... परिस्थितीन शिकपाचें दार बंद केल्लें तें पुना उगडलें. तेंय ह्याच वर्साचें फळ... पयशाचे नदरेन पयन पय रीण मारलें. खर्च उणे केलो. बेंकेंत खातेंय उकतें केलें.

सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, लग्नाचो ठराव पास करून उडयलो!

पयर शुक्रारा दनपारचो नाबराक वचून मेळ्ळों. ताणें मना पसून अभिनंदन केलें म्हजें. पास जातकच मेळून वचपाक सांगलां. तूं सगळ्यांतूच और, म्हणपाक लागलो. सगळ्या विशयांनी तर बरो आसाच, शिवाय नोकरी पेण्टिंगाची न्हय; फुडें कितें करपाचें येवजिलां काय म्हणून विचारलें. म्हज्याय मनांत तोच विचार. फुड्यांत आसा ताचो अजून विचार सोंपना. फुडाराचो खंयचो?

काल सांजचो भोंसल्याक, अडूरकार आनी वेलींगकाराक मेळ्ळों.

अडूरकाराक मुद्दमूच मेळ्ळों. ताणें मान्य केलें, आपलो म्हाका कांयच उपयोग जालोना म्हणून. पणून ते बरबर अभिनंदनूय केलें. तो म्हणटा तेंय खरें, दुसऱ्याच्या उपकारा परस खासा आपल्या कश्टांनी मेळिल्ल्याक वेगळेंच मोल आसता. म्हजो फुडार व्हड आसा म्हणपाची खबर तो उलोवन गेलो.

भोंसलो म्हणटा, तुवें प्रिसिडंट घालून दवरलो. म्हळें, तो प्रिसिडंट दुसऱ्याक सोंपें जावपाक. खासा म्हाका तो खूब म्हारग पडलो.

आज नेवग्या कडेन चाळीस रुपया आनीक व्हरून दिले. कॅमेऱ्या खातीर.



*(पान २५ वयल्यान)*

खाले! बाकीचे भंयान मेल्यात. तांच्या मरणाक हांव जबाबदार ना."

ही काणी काल्पनीक खरी. पूण भंय केदें लुकसान करूंक शकता हें हातूंत बरे तरेन दाखयलां.

स्वातंत्र्य लोकांक नाका आसतना तांचेर तें लादपाचें नासत जाल्यार भुमीगत चळवळीन गोंयांत प्रतिकारशक्त निर्माण जावची ना. परती, ती लोकांक चड निश्क्रीय करतली, आनी सरकाराक चड खुबळायतली. हो मार्ग व्यवहार्य न्हय.

झेंडे लावपी लोकांक आमी जाय जाल्यार भित्रे म्हणिनात. पूण तांकां आड वाटेन गेल्ले आंधळे लोक मात म्हणचे पडटले. ह्या लोकांच्या जिवनाचो, तळमळीचो, त्यागाचो कितेंय सदुपयोग करचो अशें दिसता जायत जाल्यार, आमकां दिसता, त्रिश्तांवबाबां सारकेल्यांनी तांकां आड वाटे वेले आडावन उजू वाटेन व्हरूंक जाय. उजू वाटेन चलपी मनीस मुक्कामा कडेन मातसो उसरान पावत, पूण निश्चीत पावतलो अशी आस्त आसता. हे वाटेन मात कसलेंच यश मेळपाची आस्त ना.

आमी हें आमच्या ज्ञानाची, अनुभवाची, वयाची, शक्तीची बी सगळी मर्यादा लक्षांत घेवनूच भोवच नम्रतायेन पूण निखालसतायेन बरयतांव. कोणाची टिका करपाचो, कोणाक दुखोवपाचो वो पयस रावन 'शाणेपणां' सांगपाचो आमचो हेतू ना. आमचें चुकता जायत जाल्यार चूक सुधारून घेवंक आमी तयार आसांव. कोणाकूय हे टिकेन वायट दिसलां जायत जाल्यार क्षमा मागतांव. पुर्तुगेजांचें राज्य गोंयांत आसचें काय नासचें हो प्रस्न आमकां गौण दिसता. पूण पुर्तुगेजांचे (ते गेले जाल्यारूय) आनी आमचे संबंद बरे उरचे अशें मना पसून दिसता. पूण दुर्दैवान दोनूय वशीनचे लोक ही म्हत्वाची बाजू विसरतात.

***

# कविता

## दोन कविता :

**- आर्. रामनाथ**

### *बिण्ण काळोख*

बिण्ण काळोख
किण्ण रात
पावलां जड
शेणल्या वाट...

भित्रो सांगात
भेरो वाठार
कुड्डी नदर
चाइडो फुडार...

सांग तूं माये
किदें गे करूं?
जीण हांव सरूं
काय मारूं?



### *पयस पयस आत्माराम*

पयस पयस आत्माराम
आनी जीण जडभार
मरणाचो शिरंगार
आंगभर...

अगा म्हज्या सूर्यदेवा
रावला किद्याक वगी
धांवून यो बेगी बेगी
लासपाक...

खर तुजीं किर्णां धाड
कूड ही लासून काड
आनी देवा मातसो रड
फकाणान...

गोबोर म्हजो उडूं दी
जुगार हांव हरूं दी
नेगार जीण मरूं दी
सासणाची...

(संपर्क : ०९८५०४५८७६३)

## कविता

**- माधव बोरकार**

कोण बरयता ही कविता
ह्या निळ्याशार कागदाचेर
सांज सकाळ रंगांची
भिऱ्यांचे चित्रलिपयेचीं
रंगयाळ्या कुपांच्या खंडांची
नक्षत्रांच्या टिंबांची?

वाऱ्याचें वळण चिरपी
म्हजें मन अशें
घुस्पलां
ते कवितेंत.

(संपर्क : ०९४२०२२२८७६)



## तीन कविता :

**- परेश नरेंद्र कामत**

### व्हडें

रातीच्या ह्या
तुडुंब भरिल्ल्या काळख्या उदकांत
उदेल्ली ही
चंद्रकोर
म्हाका
व्हडें कशी दिसता...

चल,
बसुया आमी ह्या व्हड्यांत
दोगांय
धोलत
सपनेवया
पळेत रावया
एकामेकांच्या दोळ्यांत
अनंतकाळाचीं सपनां...

### एके लांबचे लांब वळींत...

एके लांबचे लांब वळींत उसळत ल्हारेत आसा हो दर्या
व्हांवत आसा हें उदक आवेगान एके वळींत कवितेंत
नाचतात हीं उतरां एके वळींत वयर-सकयल
ताज्जीं फडफडींत नुस्तीं कशीं दर्यांतलीं...

- एके लांबचे लांब वळींत हांव ओडीत आसां रांपण दर्यांत!

(संपर्क : ०९४२२६४०२१०)

### तरंगतना

होडयो
तरंगत आसात
दर्यांत
आनी
हो काळ व्हांवत आसा
उदक जावन...

हांव
तरंगत आसां
तुजे वेंगेंत;
दर्याचे वेंगेंत होडये वरी
ताची मात लेगीत लागना सुलूस
तरंगतना



# *हंतम* : सामाजीक बदलांचें पडबिंब चित्रावपी कादंबरी

**प्रकाश पर्येंकार**

कादंबरी हो लोकप्रिय आनी महत्वाचो साहित्यप्रकार. कादंबरेची व्याप्ती व्हड आशिल्ल्यान ह्या प्रकारांतल्यान जिवनांतल्या साबार गजालींचेर लेखकाक सुक्ष्म रितीन भाश्य करपाक मेळटा. बदलत्या वास्तव जिवनाचो सोद घेवपाचेंय कादंबरी हें एक बरें साधन. विवीध पात्रांच्या रुपांतली अभिव्यक्ती ह्या साहित्यप्रकाराक एक उंचेलें स्थान प्राप्त करून दिता.

वीस वर्सां फाटलो काळ दोळ्यां मुखार हाडलो जाल्यार देवनागरी लिपयेंतल्या कोंकणी कादंबरी लेखनाची गती खूब संथ आशिल्ली म्हणपाचें कळटा. फाटल्या धा वर्सांच्या काळांत मात बालअवस्थेंत आशिल्ली ही कादंबरी आतां उठून चलपाक लागिल्ली पळोवंक मेळटा. कोंकणी कादंबरेचें चलप, तिणें स्विकारिल्ली वाट, हेर भारतीय भासांचे तुळेन कोंकणी कादंबरेचें वेगळेपण, आनी तिचो दर्जो हांचे विशीं चर्चा करप हो एक वेगळो विशय.

हालींच म्हज्या हातांत *हंतम* ही भौ. नरेंद्र कामत हांची सामाजीक विशया वयली कादंबरी पडली. विद्यार्थी आसतना *पारजत फुलां* हें तांचें पुस्तक वाचिल्लें. ताचे उपरांत बांगला कादंबऱ्यांची वळख करून घेवपाच्या हेतान तांणी अणकारीत केल्ल्यो शरतचंद्र चटर्जी हांच्यो *बिंदूलो बाबू, मदली भयण* आनी *अबुद्धी* ह्यो नवलिका वाचून काडिल्ल्यो. कोंकणी साहित्याच्या मळार एक लेखक कादंबरी बरोवपाक घेता ही खोसदिणी गजाल. साहित्यीक समृद्धीचे नदरेन विचार केल्यार आयचे हे घटकेक कादंबरी लेखनाची कोंकणीक खूब गरज आसा. हे दिकेन विचार केल्यार ह्या लेखकान आपल्या उतार वयार केल्लें हें लेखन तोखणायेक पात्र थारता.

*हंतम* ही सामाजीक विशया वयली कादंबरी. मेरशेचे इगर्जेच्यो बारा घांटी, दार नेटान धांपिल्ल्याचो आवाज. उपरांत बुर्यालें चली पिया हातांत सुटकेस घेवन टॅक्सींत बसून पणजे वटेन खंय तरी वता. हें पळोवन थळावे लोक ती चली, ताचो बापूय आनी एकंदर घराण्या विशीं आरतें परतें उलोवपाक लागतात... ह्या प्रसंगाक धरून *हंतम* कादंबरेची सुरवात जाता. वेगवेगळ्या कारणांक लागून मनीस बदलता. समाजमन बदलता. ह्या बदलत्या समाजमनाक लागून समाजवेवस्थेंत बदल घडून येतात.दोन पिळग्यां मदीं सदांच वैचारीक संघर्श उबो रावता आनी मागीर सुरू जाता तो मनशां मदलो आंतरीक संघर्श. ह्या झगड्याक लागून मनशां एकामेकां पसून पयस जातात. नातीं तुट्टात. कांय फावट हाचो शेवट खूब वायट जाता. ह्या मानवी संघर्शाचें आनी बदलत्या समाजमनाचें चित्रण आपले कादंबरेंत करतना श्रीकांत बुर्ये हांचो घराबो केंद्र स्थानार दवरून लेखक ताची आंकवार चली पिया (प्रियंका) हिची शोकांतिका मांडटा.

सादो कारकून म्हण सरकारी नोकरेक आशिल्लो बुर्ये सहाय्यक कृशी संचालक पदा मेरेन पावता. बंगलो, गाडयो आनी सगळ्या सुखांनी भरिल्ली जीण जगपी बुर्ये घराण्याचें दुःख म्हळ्यार ताचो चलो उदय हिन्दू संस्थे खातीर काम करता, आनी आंगवण करून जल्मल्लें ताचें हट्टी चली पिया ताच्या जाल्ल्या फाजील लाडांक लागून आपल्या मना सारकेंच वागता. हाचो परिणाम म्हण तें कॉलेजींत ताचोच सिनियर आशिल्लो फ्रेंक ह्या क्रिस्तांव चल्याच्या मोगांत पडटा. गुरवार आशिल्लें आनी फ्रेंकाच्या मोगान पिशें जाल्लें पिया आपलो भाव, बापूय आनी ताची आवय वसुंधरा हांची सांगणी आयकऽ नासतना त्या चल्या कडेन लग्न जावपाच्या हेतान

घर सोड्टा.

मुखार तें फ्रेंकाच्या घरा वता. साबार चलयां कडेन संबंद दवरपी तो चलो ताका आरत्यो परत्यो न्हयकारी जापो दिवन घरांतल्यान भायर काडटा. पिया बांद्यां रावपी उषा हे आपले इश्टिणीच्या घरा वता. त्या दिसा ताचो भाव सोडून तीं सगळीं सांग्यार आपले आते भयणीच्या लग्नाक गेल्ल्यान पिया निराश जावन सावंतवाडी बस थांब्यार रातचें एकलेंच बसता. ह्या वेळार गुंडांचे तावडेंतल्यान मास्तर (सदानंद देसाय) ताका सोडयता आनी आपल्या घरा घेवन वता. धा वर्सां फाटीं मरण आयिल्लें मास्तरालें चली सविता पिया भशेन दिसतालें. आपलें चली आपणाक परत मेळ्ळें हे खोशयेन सदानंद देसाय आनी ताची बायल देवकी आनंदीत जातात. पियाक तीं मदत करतात. तेच राती पियाच्या पोटांत दुखिल्ल्यान ताका नर्सिंग होमांत दाखल करतात. ताचें ॲबोर्शन जाता. दुसरे वटेन गोंयांत बुर्येचो मेवणो सोमनाथ रायकार पियाचो सोद घेवपाची जबाबदारी आपल्याचेर घेता. ह्या वेळार मास्तर पियाची खबर तांकां फोनाचेर सांगता आनी बुर्येची फामील पियाक मेळपाक सावंतवाडी येता.

पिया सावंतवाडी रावपाचो निर्णय घेता. मास्तर ताका कारकुनाची नोकरी मेळोवन दिता. ह्या वेळार लेखकान हे कादंबरेक एक वेगळेंच मोडण दिलां. एक दीस, मुंबय रावपी आनी फिल्मां दिग्दर्शीत करपी देवकेचे भयणीचो जांवय श्याम आनी ताची बायल रश्मी आयिल्लीं आसतात. तांकां पिया आवडटा आनी आपल्या फिल्मा खातीर तीं पियाक हिरोइनीची ऑफर दितात. सगळ्यांचो विरोध आसतना पिया हट्टाक पेटून तांचे वांगडा मुंबय वता. तीन म्हयने थंय रावले उपरांत फिल्मा खातीर फायनान्स मेळोवपाक तें मंगलदास ह्या तरणाट्याक भोग दिता. मुखार तो तरणाटो पियाक हेर फिल्मांनी कामां मेळचीं म्हण प्रयत्न करता. कांय फिल्मां हीट जातात तर कांय फ्लॉप. पिया मागीर सोरो पिवपाक लागता. फॅशन शोंनी भाग घेता, डान्स बारांत वता. आनीक एकलो चलो ताचो भोग घेता...

मदल्या काळांत पियाची खास इश्टीण उषा आनी पियाचो भाव उदय हांची इश्टागत वाड्टा. घरच्यां कडल्यान संमती मेळटकच तांचें दोगांयचें लग्न थारता. पिया मुंबयच्यान मंगलदासाक घेवन गोंयांत लग्नाक येता. ताका खूब खोस जाता आनी लग्न जाले उपरांत तें रोखडेंच परत वता. उपरांत पिया बरें ना जाता. टाटा मेमोरिअल हॉस्पिटलांत ताची चिकित्सा जाता. ताका गर्भाशयाचो कॅन्सर जाला म्हण कळटकच तें आपल्या फ्लॅटांत गोळ घेवन आत्महत्या करता. मंगलदास पियाच्या घरा फोन करून सांगता, आनी उषा आनी उदय विमानांतल्यान मुंबय वचून ताची कूड ताब्यांत घेतात. ह्या वेळार पुलीस इन्स्पॅक्टर उषाच्या नांवान बरयल्ली चीट ताच्या हातांत दिता. उषा चीट वाचता आनी *हंतम* कादंबरेचो शेवट जाता.

लेखकान ही कादंबरी बरयतना निवेदन शैलीचो आदार घेतला. हाका लागून दोन गजाली हांगा प्रकर्शान जाणवतात. त्यो म्हळ्यार, कादंबरेंतल्यो घडणुको जलद गतीन मुखार वतात. तशेंच, लेखक आपल्या मनांतले विचार मुखार दवरून पात्र चित्रण करता काय कितें असो भास जायत रावता. कारण, खंयचेय बरे साहित्यकृतींत लेखकाक कितें दिसता ताचे परस वास्तव चित्रण करतना परकाया प्रवेश करून पात्रांच्या मना-काळजांत कितें चल्लां हाचो सोद घेवप उचीत थारता. पिया आपले पुराय जिणेंत हट्टी कित्याक वागता, हाची जाप, ताचे केल्ले फाजील लाड अशी निवेदनांतल्यान मेळटा. ल्हानपणा सावन ताच्या मूळ सभावाचेर लेखकान भाश्य केल्लें जाल्यार ताच्या पात्रचित्रणाक घटाय येवन तें चड सभावीक जातलें आसलें. हाकाच लागून, तें मंगलदासाक मेळपाक कंडोम घेवन कित्याक वता, फिल्माची मुळांत आवड नाशिल्ल्या पिया भितर अकस्मात ही आवड कशी निर्माण जाता, सावंतवाडी रावपाचो निर्णय तें कित्याक घेता, अश्या कांय अनुत्तरीत प्रस्नांची जाप स्पश्ट मेळपाक पावना.

हे कादंबरेंत कांय प्रसंग चित्रायतना लेखकान कोइन्सिडन्सांचो आदार घेतला. देखीक :

१. बांद्यां घरांत ताची इश्टीण उषा नासप आनी पियाचें सावंतवाडी वचप.

२. गुंडाचे तावडेंतल्यान सोडोवपाक त्याच वेळार मास्तर बसस्टँडार पावप.

३. देवकेक पिया जुस्त मेल्ल्या सविता भशेन दिसप.

४. पिया सिनेमांतली नटी कशी दिसप आनी ताका घेवन शामान मुंबय वचप.

५. फिल्मा खातीर पयशे नात म्हण पियान फायनान्सराक हॉटेलांत वचून मेळप आनी ताका भोग दिवप.

कादंबरेंतल्यो ह्यो सगळ्यो यू-टर्न घेवपी घडणुको सुजाण वाचका मुखार प्रस्न उब्यो करतात. अशें जावं येता काय, अशें ताका चिंतपाक लायतात. कोणाचेय जिणेंत अश्यो घडणुको घडूं येतात. पूण तांचे फाटली कारण मिमांसा सशक्त आसल्यार वास्तव चित्रण उबें जावपाक मदत जाता.

आमचे कडेन आशिल्ली सामाजीक विशमता, धर्मा धर्मा मदीं आशिल्लो भेद, बायल आनी दादलो हांचे मदीं आशिल्लें वेगळेपण आनी बऱ्या संस्कारांची नवे पिळगेक गरज, बरी इश्टागत, गरजेवंताक आदार आनी आपलेपण ह्या कांय महत्वाच्या गजालींचेर उजवाड घालतना लेखकान साबार प्रसंग कादंबरेंत उबे केल्यात. सुरवातेक म्हणलां तशें, बदलत्या सामाजीक जिवनाचो वेध घेवप हें लेखकाचें महत्वाचें काम. लेखकाक समाजाभिमूख जावन समाजांत वावुरचें पडटा. नरेंद्र कामत हांणी आपले हे कादंबरेंत समाजांतले कांय महत्वाचे बदल अचूकपणान वेंचून कादंबरेंत मांडल्यात ही हे कादंबरेची जमेची बाजू.

हे कादंबरेंत लेखकान क्रिस्तांव समाजाची भास बरे तरेन केळयल्या. पूण बांदें (उषाचो घराबो) आनी सावंतवाडी (देसाय घराबो) ह्या वाठारांतली भास हांगा संवादांनी वापरिल्ली जाल्यार भाशीक वेगळेपण जाणवपाचें. अशें आसलें तरी कादंबरेची भास ओघवती आनी वाचनीय जाल्या.पियाचे जिणेंत येवपी वेगवेगळ्या मोडांक लागून सर्वसामान्य वाचकाक खिळोवन दवरपाची तांक हे कादंबरेंत निश्चीत आसा.

भौ. नरेंद्र कामत हांच्या हातांतल्यान आनिकूय बऱ्यो कादंबऱ्यो बरोवन जावच्यो अशी इत्सा.

***हंतम***
नरेंद्र का. कामत
सन्मित्र प्रकाशन, २०११
पानां: १६३, मोल: १६० रुपया.



संपर्क: ८३९०३०३५४६




वळवय, फोंडें, गोंय - 403 401

समकालीन भारतीय नाटककार

# पुंडलीक नारायण नायक

हांगेलीं रंगमाचयेर गाजलेलीं विविध विशयावयलीं प्रयोगक्षम नाटकां
खंडांत तशींच मेकळीं

| रंगवेद : खंड-एक | रंगवेद : खंड-दोन | रंगवेद : खंड-तीन |
|---|---|---|
| **रंगकाव्य** | **रंगरंजन** | **रंगशिल्प** |
| आस्पावित नाटकां : | आस्पावित नाटकां : | आस्पावित नाटकां : |
| 1. प्रेमजागोर | 1. तिरंगी चक्राचक्री | 1. दिश्टदौलत |
| 2. प्रेमयुद्ध | 2. शिरी रे शिरी! अधांतरी! | 2. चित्र स्वयंवर |
| 3. सांगोड | 3. काळजाची काणी | 3. चतुरंगा |
| 4. कथा अस्तुरी | 4. अंता घरा भगवंता | 4. परिक्रमा |
| 5. दिव्या दिव्या दिपत्कार | 5. धनयां देंवचारा | 5. कांसुलो |

**दर खंडाचें मोल : ₹ 500/- मेकळें पुस्तक मोल : ₹ 100/-**

नामनेचे सिने-नाट्य कलाकार डॉ. मोहन आगाशे हांचे हस्तुकी विमोचन जालें

नाईकांचे साहित्य जागतिक स्तराव...

तीन नाट्यखंडांच्या प्रकाशन सोहळ्यात ... मोहन अ...

पुंडलीकान आपलें साहित्य आंतरराष्ट्रीय मळार पावोवचें

नाटकाच्या यशात लेखकाचा वाटा महत्त्वाचा



स्वतंत्र नाटकां आनी खंडाखातीर संपर्क करात-

**अपुरबाय प्रकाशन**
वळवय, फोंडें - गोंय - 403 401
फोन नं. : 0832-2340210
मोबाईल : 9158344919/9545759222
E-mail : apurbai.hema@gmail.com

# Ravindrabab: Pride of Goa




**SAMAJSHASTRA**
A-5 , 174 Pages
Price : 135/-
ISBN. 81-7810-670-1




**PANTHASTHA**
A-5 , 216 Pages
Price : 180/-
ISBN. 81-7810-155-6




**JAPAN PALOUN AYLOM**
A-5 , 192 Pages
Price : 155/-
ISBN. 81-7810-671-X



**Ravindra Kelekar**
Renowned Konkani writer. Awarded with the prestigious Dnyanpith award. Konkani scholar, activist, linguist and creative thinker. Authored about 100 books. Awarded with Padma Bhushan, Sahitya Akademi and Gomant Sharada. Fellow of the Sahitya Akademi.




Publisher :
**RAJHAUNS VITARAN**
1-Meenakshi Bldg., Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph. : 2220320 / 2232177 E-mail: rajhaunsvitaran@dataone.in

# HARD HISTORICAL FACTS in Hard Bound

## GOA A SOCIAL HISTORY 1510 - 1640

**by P. D. XAVIER**

The Social History of Goa is of great importance as it proves beneficial to research scholars and general readers and to understand the social interaction of the people of 16th century Goa. The book is written in an inimitable style and sustains the interest of the readers throughout.




A-5 , 364 Pages
H/B Price : 800/- $ 50 £ 20
ISBN 978-81-85339-91-0

## *The Goa Inquisition*

*The Terrible Tribunal for the East*

**by A. K. PRIOLKAR**

This book presents a dispassionate and objective account of the Inquisition against the background of the religious policy of the Portuguese. It is based on authentic archival documents and correspondence of the Jesuits. Dr. Dellon's experiences as a prisoner are also reprinted at the end.




A-5 , 320 Pages
H/B Price : 695/-
ISBN 81-7810-694-9




Publisher :
**RAJHAUNS VITARAN**
1-Meenakshi Bldg., Dr. Wolfango da Silva Marg, Panaji 403 001
Ph. : 2220320 / 2232177 E-mail: rajhaunsvitaran@dataone.in

NOW ON STANDS

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai